ಜಿಲ್ಲಾ : ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಭಾಂಗಾರಾ!

ರೊನಿ : ಮಿಲ್ಲಿ!!

ಮಿಲ್ಲಿ : ರೊನಿ...!!!

*(ಮಲ್ಲಿನ್ ಮಿಲ್ಲಿಕ್ ವೆಂಗಯ್ತಾ ಆನಿ ರೊನಿಕ್ ಬಗ್ಲೆನ್ ಹಾಡ್ತಾ. ಜಿಲ್ಲಾಬಾಯ್ ರೊನಿಚೊ ಹಾತ್ ಧರ್ನ್ ರೊನಿಕ್ ಮಿಲ್ಲಿ ಸಂಗಿಂ ಸೊಡ್ತಾ. ಎದಿ ದೋಗಾಂಯ್ಚ್ಯಾ ಖಾಂದ್ಯಾರ್ ಹಾತ್ ದವರ್ನ್ ಖುಶಿ ಪಾವ್ತಾ)*

## ಪಡ್ದೊ

## *ಸಮಾಪ್ತ್*

---

## * ಭುಂಯ್ಯಾಂಪ್ *

ಹೊ ಮಾಂಚ್ಯೆ ವಯ್ಲೊ ಏಕ್ ನಾಟಕ್ ಮಾತ್ರ್ ನ್ಹಯ್ ಬಗಾರ್ ರಣ್ ಭೂಮಿ
ವಯ್ಲಿಂ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶೆ ಖಾತಿರ್ ಮಹಾ ರ್ಝುಜ್. ಪೈಶ್ಯಾಂ ಆನಿ ಪೊಟಾಚ್ಯಾ
ನಿಭಾನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ವಿಸರ್ಲೆಲ್ಯಾ ನಿರ್ಭಾಗ್ಯಾಂನೊ, ತುಮಿಂ ಸಂಸ್ಕೃತಿಚಿ
ಗ್ರೇಸ್ತ್‌ಕಾಯ್ ಹೊಗ್ಡಾವ್ನ್ ಜಾಲ್ಲೆ ದುಬ್ಳೆ ನ್ಹಯ್‌ಗೀ?
ಕೊಂಕ್ಣಿ ನಾಟಕ್ ಸದಾಂಚ್ ಜಿಯೆಂವ್ದಿ..!

* * *

# भुंयकांप

( एक कोंकणी सामाजिक नाटक )




बरयणार:

## जि. एम. बि. रोड्रिगस



कोंकणी साहित्य प्रकाशन

कमानी, मुंबई

**2002**

भुंयकांप – एक कोंकणी नाटक ( देवनागरी लिपिंत )
Bhuimkaamp – A Konkani Play ( in Devnagari Script. )

बरयणार : जि. एम. बि. रोड्रिगस
Written by : G. M. B. Rodrigues

पयलो छापो : 2002
First Edition : 2002



अक्षरां मेळोवणी :
श्रीमती वलेरिन डि'सोज़ा आनी श्री लोरेन्स डि'सोज़ा कमानी
Typeset by :
Smt. Valerin D'Souza & Shri Lawrence D'Souza Kamani

प्रकाशक : कोंकणी साहित्य प्रकाशन
4 अमर अपार्टमेंटस,
एल बी एस मार्ग, कमानी,
कुर्ला, मुंबई–400 070.
दूरद्वनी क्रामांक. (022) 5143552

**Publisher :** Konkani Sahitya Prakashan
4, Amar Apartments,
L B S Marg, Kamani,
Kurla, Mumbai-400 070.
Telephone No. (022) 5143552

**Printed at :** Printania Offset Pvt. Ltd., D-21, Shalimar Ind. Estate, Matunga, Mumbai – 400 019. Tel. 407 4899, 407 4540, 407 7996.

छापो : प्रिंटानिया ओपसेट प्रायवेट लिमिटेड, D-21 शालिमार इन्डस्ट्रियल इस्टेट, माटुंगा, मुंबई–400 019. दूरद्वनी क्रमांक. 4074899, 4074540, 4077996.

मोल रू. 80.00
Price Rs. 80.00



# हांव वळ्काल्लो जि. एम. बि.

म्हजी आनी जि. एम. बि.–ची परिचय 1968 वर्साची. आमचो संबंद एका कुटमा बरीं जावनासल्लो. तांकां हांव म्हजो गुरु म्हण मांदतां. कित्याक ते कोंकणी भाशेचो परिपूर्ण व्यक्ती म्हळ्यार हांव चूक आदार्तां म्हण कोण्णी सांगचे नांत. ताणी कोंकणी भाशेंत पयलें पत्र प्रकाशित केलें, कोंकणी भाशेंत पयलो नाटक बरवन रंगमंचार हाडलो आनी कोंकणी भाशेंत पयलें पींतुर काड्न आपले हात जळोवन घेतले. ते जावनासल्ले लेखक, नाटाकिस्त, कवी. कोंकणी भाशेच्या हर्येका क्षेत्रांत तांचो वांटो आसा. हावें जाणा आसच्या प्रमाणे ते जिवंत आसताना ताणी हाजिर जांयनातल्लीं कोंकणी कार्याक्रमा बोव उणी म्हण्येता. हांव मुंबई शहारांत आसताना म्हज्या लेखणेक ताणी सदां पाटिंबो दिला, म्हजी पाट थपडल्या आनी म्हाका उत्तेजन दिलां. हावें जायते पावटीं सागलां, अतांय सांगता, कोणे कोंकणी भाशेची सेवा केल्या, ताचें देवें तो जिवंत आसताना दिया. मेल्ल्या उप्रांत, तो आपणाची होगळिक उचारची वाचुंक सकाना, आयकोंक सकाना व आपल्या वाव्राचें भिरुद जोडुंक सकाना. जि. एम. बि.–न आपल्या जिवितांत जायतें लीखलें, पुण दुर्देयवान ताणें बरयिल्लें कितेंच बूका रुपार प्रकाशित जांवक ना. श्री लोरेन्स डि'सोजा कमानी ताचो एक बोव ऊंच्लो नाटक "भुंयकांप" आतां एका पुस्तका रूपार प्रकाशित करुंक मुकार सरला. श्री लोरेन्स डि'सोजा कमानीन जि. एम. बि.–च्या "आवयचो मोग", "संसाराचे खेळ" ह्या नाटकानीं 1975 वरसा अभिनयन केलां. ताचो "भुंयकांप" नाटक 1994 वरसा दिगदर्शन दीवन रंगमंचार हाडला. त्या शिवाय जि. एम. बि.–चे जायते नाटक मुंबयचा आकाशवाणीर सादर करुन तांतूं पात्र घत्लयात.

जि. एम. बि.–च्या लिखणे थावन उदेल्लें आनी लोरेन्स डि'सोजा कमानीच्या वावरान प्रकाशित जाल्लें हें पुस्तक सर्व कोंकणी मोगिनीं घेवन सहकार दिलो तर म्हाका भोगता, जि. एम. बि.–न कोंकणी खतिर केल्लो वाव्र सार्थक जातोलो आनी ताच्या आतम्याक खंडित जावन शांती मेळतेली.

जि. एम. बि. –चो शिस
**फ्रन्सिस फ़ेर्नांडिस कास्सीया**

# प्रकाशकाचीं दोन उत्रां

जि. एम. बि. रोड्रिगस एक कवी, नाटकिस्त, पत्रकार, मुद्रण तंत्रज्न, भषणकार, दिगदर्शक, समाज सेवक इत्यादी इत्यादी जावन असल्लो. मुंबयींत प्रथम मंगळुरी कोंकणी नाटक खेळयल्ली, प्रथम मंगळुरी कानडी लिपिचें पत्र उज्वाडायल्ली, प्रथम चलनचित्र काडुंक प्रयतन केल्ली कीर्त ताची जावनामा. मभार नाटक वरावन, दिगदर्सुन तांकां रंगमंचार सादर ताणे केल्ले. ताचेच न्हय आस्तां हेरांचे नाटक ताणे दिगदर्सुन रंगमंचार हाडल्यात. हेरांचे नाटक तिदवुन, हेरां नाटाकिसतांक मलहा सूचना दिल्यांत. ताणे वरयल्लीं लेखना, कवनां, काणियो आमी मभार पत्रानीं वाचल्यांत. ताची शैली वेगळिच जावन आसोन तो एक संस्थोच (One Man Institution) जावनस्ल्लो. भेजारायेची गजाल म्हळयार ताणे सरी सुमार 80 वयर नाटक बरयले तरी तांतलो एकच एक नाटक बुका रूपार छापुल्लो ना. हावें ताका ह्या विशीं सवाल केल्ल्याक, ताच्या काळार आतांचें बरीं छापची सवलत नातल्ली, पयशांच्या आडचणे वरवीं अपणाक तें काम करुंक जालें ना म्हण व्हडा भेजारायेन ताणे सांगल्लें म्हज्या मतिंत आसल्लें. कोंकणी भाषा मंडळ मुंबई हाणी जि. एम. बि. रोड्रिगस नाटक प्रशसती घोषित केल्ले तवळ ह्या प्रथम पुरस्कार दिंवच्या संधरवार ताचो एक नाटक छापुन उजवाडांवची आलोचन हावें केली. ही खबर ताच्या पुतांक कळायली आनी ताणी व्हडा खुशेन तांचीं कबलात म्हाका दिली. तांचो हांव आभारी जावनासां. आशें हांवें थोडया वर्सां पयलें दिगदर्सुन, दी मेंगलोरियन वेलफ़ेर एसोशियेशन (री) विद्याविहार हाणी सादर केल्लो "भुंयकांप" नाटक छापचें काम सुरवात केलें. ह्या नाटकाक सुरविलीं दोन उत्रां बरोंवक हावें जे. बि. मोरायसबाबाक विनतीं केली आनी ताणे आपलें हेर काम बगलेक दवर्न म्हाका आपलीं दोन उत्रां तकशण बरवन दिलीं. तंचोय हांव आवारी जावनासां. अक्षरां मेळोवपाचा (DTP) कामांत म्हाका सहकार दिल्ल्या म्हजी पतिण वेलेरिन (वल्ला)–चो हांव प्रत्येक थरान उपकार भावुडतां. तशेंच तूं मुकार सर हांव तुजे पाटल्यान आसां म्हण म्हाका धय्र आनी पाटिंबो दिल्ल्या श्री फ्रन्सिस फ़ेर्नांडिस कास्सीया आनी ब्ल्यू स्टार इलेवेटर्स (इंडिया) प्रा. लीमिटेड हाचो मेनेजिंग डायरेक्टर, श्री लोरेन्स डि'सोजा हांचो हांव ऋणी जावनासां. हें पुस्तक छापच्या वावरांत म्हाका सहकार दिल्ल्या श्री जे. बि. मोरायसबाब, म्हजो आप्त मित्र श्री ऐमियार, बोंबय, श्रि अल्बर्ट डब्ल्यु डि'सोजा, प्रिंटानिया ओपमेट प्रायवेट लिमिटेड आनि प्रशांत लस्त्रादो हांचो हांव काळजा थावन उपकार भावुडतां.

ऐका उत्रान,  हें पुस्तक छापुंक प्रत्यक्श या परोक्श थरान म्हाका कुमक दिल्ल्या सरवांचो आनी मोगाळ वाचप्या, हें पुस्तक मोलाक घेवन म्हाका आनी कोंकणी नाटक कलेक उत्तेजन दिल्ल्या तुजो हांव ऋणी जावनासां. हें पुस्तक कानडी लिपी वाचुंक नेणासल्ल्या तुमच्या भुरगयां खातिर देव नागरी लिपिंत छापलां हाचो तुमी पायदो जोडतेल्यात म्हण भरवसतां.

जै कोंकणी !

कोंकणी साहित्य प्रकाशना तर्पेन

लोरेन्स डि'सोजा कमानी





# कोंकणेंत नाटक साहित्य धाराळ येंवदी

पुरातन काळा थावन नाटक कला मन्शाच्या जिणयेचो अविभाज्य वांटो जावन उरला. ताणे जियेंवची समाज कशी हजारों वर्सां थावन फुलोन विकासित जावन आयल्या त्या विकासाचें प्रतिबींब नाटक कलेंत दिसोन आयलां. दोन तीन हजार वर्सां आदीं ग्रीस गांवांत नाटक कला इतली ऊंच पावल्ली की त्या काळार नाटककारानीं बरयिल्ले नाटक बर्पिनिशिं उरल्यात, ते आतांय रंगमंचार खेळयतात आनी ताच्याकी चड अभिरुचिची गजाल म्हळ्यार, लोक उर्भेन ते वाचतात. आमचोच "शाकुंतला" प्रखयातिचो काळिदास त्या एकाच नाटका मारिफात अमर जाला. नाटकाच्या तंत्रणा विष्यांत सांगचें जाल्यारी थोडया हजार वर्सां आदीं भरत मुनी म्हळ्ळया पंडितान "नाट्य शास्त्र" म्हळ्ळया पुस्तकांत नाटक कला आनी तंत्रणा विषांत सुतान सुत सोडोवन बरयलां म्हणटेच समाजेंत नाटक कलेक आदीं थावन विशेष महत्व आसल्लें. खंचाय काळाचे, खंचाय भाशेंतले व खंचाय गांवांतले नाटक आमी वाचूं जाल्यार त्या काळाची त्या गांवची लोक-जीण आमच्या दोळयां मुकार उबी जाता. पुरातन नाटककारांची नांवां आयच्या आधुनिक समाजेंत वळकिचीं जावन उरल्यांत जाल्यार तांचे नाटक बरपिनिशीं उरुल्लेंच कारण जावनासा. नाटक रंगमंचार प्रदर्शन करची कला मात्र न्हय बगार आमच्या साहित्याचोयी एक भाग जावनासा म्हळ्ळयाक हो एक दृश्टांत. हरयेका सुधारित भाशेंत परगटलेलें नाटक साहित्य यथेश्ट आसा. पुण कोंकणींत परगटलेले नाटक बूक मेजुंक हाता पायांचीं बोटां पुरो. देवाधिन गस्पार मेल्क्योर बाल्ताजार रोड्रिगसाचो ("गस्पाराब" व "जि. एम. बि." ) "भुयकांप" नाटक छापुन उजवाडाक आयिल्ली पाटभुंय हांव इल्ली जाणां. 2001

जानेर 10 वेर गस्पाराब आपल्या 87 वर्साचा प्रायेर मुंवई देवाधिन जालो. ताच्या थाडया दिसां उप्रांत ताका श्रद्दांजली पाटोंवक कोंकणी भाषा मंडळ मुंबई हाणी एक परगट शोक सभा असा केल्ली. गस्पाराब व्हडल्या कोलेजिचीं जांव विश्व विद्यालायाचीं जांव मेटां चडुल्लो पंडित न्हय. जिणयेचो अनभोग म्हळ्ळया विश्व विद्यालयांत ताणे सनद जोडुल्ली म्हणयेत. कथा, कविता, नाटक, मुद्रण कला, पत्रिकोध्यम – ह्या शेतानी वावुरन तो जायतें शिकलो. सबार नाटक ताणे बरयले. मुंबईत पयलो मंगळूरी नाटक उबो केल्ली कीर्त ताका फावो जाता. देकुन ताका श्रद्दांजली पाटायताना ताच्या सबार अभिमानिंक भगलें की ताच्या उग्डासाक कांय तरी करिजाय म्हण. शोक सभा संपोन घराची वाट चमकाताना म्हज्या मतिंत आमच्या सरोन गेल्ल्य सबार नाटककारांचे उग्डास जिवाळ्ळे. मडतिन डेसा, सैमन रास्किन्ह, ऐ टि लोबो, वि जे पि साल्दान्ह – ह्या नाटककारानी जायते नाटक बरयले तरी आयच्या आनी मुखल्या पिळ्गेक तांची नाटक कला पडद्या पाटलो मिस्तेर तसो उरला. तांच्या नाटाकाची थोडी नांवां आमी अयकाल्यांत. तांचे एकेक्ल्याचे एकेक नाटक तरी उज्वाडायिल्ले तर तांच्या कलेचें निदर्शन उरते. जि. एम. वि.–यी त्याच वरगांतलो. तो जीवंत असताना कांय करुंक जालेंना पुण ताच्या मरणा उपरांत तरी कांय पुणी करयेतगाय म्हळ्ळें सवाल म्हज्या मतिंत गुंवतालें. जि. एम. बि.–क आपलो गुरु म्हण मांदचो लोरेन्स कमानी म्हजे सांगाता आसल्लो. म्हज्या मतिंतली आशा हांवें ताका उगडापि केली. जि. एम. बि. सांगांता थोडीं वर्सां तो नाटक शेतांत घोळ्ळा. म्हजी आलोचन ताका पसंद जाली. तो खुशेन ओपलो मात्र न्हय, थोडया वर्सां आदीं आपणे दिगदर्शिल्लो जि. एम. बि.–चो "भुयकांप" नाटक ह्या येवजणेक सहजल्लो म्हणालो. तो नाटक ताणे घाटकोपर ज़वेरबेन पोपटलाल सभागरांत

रंगमंचार हाडलेल्या वेळार, वेळाच्या आभावाक लागोन निमाणे कोडतीचें दृश्य कात्रिजाय पडल्लें आनी निराशी जाल्या प्रेक्शकांचा वत्तायेक लगोन हो नाटक परतें रंगमंचार हाडिजाय पडुल्लो.

टि. वि.–च्या आक्रमणा उपरांत आमचे नाटक कोन्श्याक पड्ल्यात म्हळ्यार अतिशयाक्ती जांवचीं ना. तीस वर्सां आदीं, वर्सांत पन्नास मैत नाटक मुंबयींत जाल्यात. आतां वर्सांत पांच स नाटक प्रदर्शनां जाल्यार व्हड म्हणयेत. नाटक शेतांत विस्तारित थरान निराशा दिसोन येता. परिणाम जावन नवे नाटक बरयणार उदेवन येंवचे दिसानांत. ह्या दिशेन बरयणारांक उत्तेजन दीवन, नाटक शेतांत कांय प्रगती जोडच्या इराद्यान मुंबयचा कोंकणी भाषा मंडळान "जि. एम. बि. रोड्रिगस नाटक प्रशस्ती" घोशित केल्या. जि. एम. बि.–च्या उग्डासाक हें आन्येक ल्हान मेट. भाषा मंडळाच्या ह्या वज्रोतस्वाच्या वर्सांत ह्यो दोन येवजणयो आमी कोंकणी लोकाक अर्पितांव म्हळ्ळयांत आमकां वरतो संतोस भगता. लोरेन्सबाबान वरत्या उर्भेन आनी मिन्हतेन देव नागरी आनी कन्नड लिपियानीं आपणेंच टायप सेट्टिंग कर्न हें नाटक पुस्तक तयार केलां. ताच्या वांवटीक हांव शाबाष्की दिताना त्या वांवटी पाटलो घनादिक उद्देश समजाल्ले कोंकणी प्रेमी आनी प्रत्येक जावन जि. एम. वि.–चे आभिमानी हो बूक मोलाक घेवन वाचतेले म्हण भरवसतां.

चेंबूर, मुंबई

जे. बि. मोरायस

जुलाय 10, 2002

# भुंयकांप

## कथा विषय

घडये चरित्रेंती हें सांग्लां जांवक पुरो - आसल्लो म्हण एक कुद्रो - अती सुंदर ! तो म्हनश्यान सोदुन काडतच, हर्येक्ल्याक त्या कुद्र्याक चल्यां म्हण क्गतालें खंय. सुरवेर पणगिल आसल्ल्या ह्या कुदरयाक, चड आनी चड जणांक अपल्या भेटेक वोडचे तितलें आकर्षण आसल्ल्यान, राय-कुळयेचो, ग्रहस्थ-दुबळो, ल्हान-व्हड लोक त्या कुदरयाक पावलो. मनिस नातल्लयान, पापाविण आसल्लो तो कुद्रो मन्श्याच्या येणयानंतर आतां पातकांत बुडलो !

त्या कुदरयाक गेल्लो बहुपक्शा लोक, पकत्त मज़ा मारच्या इराद्यान थंय पावतालो खंय. पजडेपण, बेबदेपण, नगोण, लूट, चारी, हमला, दगलबाज़ इत्यादी ह्या कुदरयार पुषकळ चला लागलीं. असलीं अनाहुतां त्या कुदरयार चलोन आसतास्तना, एक सैंबिक घडणे थंयसर घडलें. सरवेश्वारान आपली नीतिची पदवी त्या कुदरयाक दाकायली - एक भुंयकांप ! आनी ह्या भुयकांपणे निम्तीं, वर्सां पूरवीं निसंतान जावन नपैंच जाल्लो तो कुद्रो आजिकी नद्रेक येना खंय ! मनश्याच्या आणवे पणाचें फळ !

त्याच थराचो एक कुद्रो - मुंबई शहर. ह्या शहारांती आतां लोक भरोन भिकारपण, करमिपण, अणवेपण इत्यादी चलोन आस्ताना, आयलेवार एक भीकर भुंयकांप जाली ! वयल्या कुदराच्या परिसितिती परीं मुंबई कुदर्याची गत ल्हनश्या मट्टार जांवक पावली म्हळ्ळें प्रिंत्रावन वरायल्ली ही घडपांची कथा, रंगमंचार भुंयकांप नाटक विवरसित.

लेखक

# पात्र परिचय

| | | |
|---|---|---|
| लोरसाब | : | ग्रेस्त विधुर |
| रोनी | : | लोरसाबाचो भाचो |
| दुलसिन | : | लोरसाबाची भयण |
| रायन<br>वेनी | : | दुलसिनाचीं भुरगीं |
| हेगबर्ट | : | लोरसाबाचो शेजारी |
| जिल्ला | : | विधव स्त्री |
| एडी | : | जिल्लाचो पूत |
| मिल्ली | : | जिल्लाची धुव |
| विन्सी<br>मार्कु<br>बोना<br>सिरिल | : | चोवग ईश्ट* |

दोग वकील, न्यायादीश, पोलीस, गुमास्त आनी थोडो लोक इत्यादी




# भुंयकांप

## पयलें दृश्य

*( विशाल मयदान. बोना, सिरिल आनी मार्कु बसोन गजाली मारतात. आन्येक कडे विन्सी पुस्तक वाचुन बस्ला )*

विन्सी : *( वाचचें राववन )* "हांव ह्या वाटेन पाशार जातोलों, पुण एकच पावटीं. तशें जाल्लयान कसलेंय बरें करयेत तें हांव आतां करतोलों. कित्याक त्या वाटेन हांव परतुन चलोंवक सकचो ना देकुन." कितलो ऊंच विचार हो ! कितल्या महतवाचो विषय ! खरेंच, संसारांतल्यान हावें पाशार जांवचें एकच पावटीं. मरतच संसारांत हांव परतुन येंवचो नां. देकुन सताचा आनी नीतिच्या वाटेन बरें आदार्न हांव मरतोलों.

मार्कु : पिश्या..! पिश्या..!! ह्ह.. ह्ह.. ह्ह..! सतान नीतिन चलतोलोय ! वळवोळतोलोय !

सिरिल : निराश उरतोलोय !

बोना : कष्टातालोय !

मार्कु : संसारांतले चार दीस मनशान मज़ेन सारिजाय. खा, पिये, मज़ा मार ! इतलें आसल्यार मात्र संसारांत जिये. नातल्यार गळफास घे !

बोना : संसाराच्या पोटांत आमी जल्म घेतला जाल्यारी कित्याक? सुख भोगुंक ! कूडिक खुशालाय दींवक ! मनशाक इतलें तर मेळाना, तसल्यान संसारांत जियेवन पायदो ना.

सिरिल : सतान, नीतिन चलचो ग्रेस्त जांवचो ना. धन दवलत संपादन करचो ना. भिकारी, भिकारी उर्तोलो. आनीत, पकत्त आनीत ! लूट, अपहरसी, हमला– खुन म्हण सयत पळेनाका.

विन्सी : मार्को, बोना, सिरिला, तुमचें तेगांचें सुंकाण एकाच धिक्काक चलताशें दिस्ता. व्यर्थ भावानो तसलें जीवन ! संसार जिकची तुमची इच्छा कित्याक उपकारता..? कित्याक उपकारता संसार जिकोन आत्मो होगडायल्यार?

मार्कु : आत्मो? कोणे देकला तो आत्मो? दुडु, ग्रेस्तकाय, धन–दवलत, इतलें मात्र हांव जाणा. हें पुंजांवक हांव हर साधन करतां.

सिरिल : व्हा.. व्हा.. मार्को, तुज्या पसंदेच्यो वस्तु तुवें उचारल्योय. म्हज्या गरजेची एक; तिच सोडलीयमू भावा? तें अम्रुत ! *( बोलसांतलें पांयट काडता )* हें तर ना मज़ा खंय आसा ? *( घोटता )* आहा....! *( मिटयो मारता )*

बोना : व्हह.. व्हह.. व्हह...! *( नंजि हासो )* मनिस स्वार्ती म्हणचाक दुबाव ना. आपापलेंच बरेंपण सोदचें ! म्हाका जाय ती वस्त विसरलेच ! ताचेविणे संसार उपकारना. तो सोबित सांगात; ती कूशिची बोर !
तें सुंदर रुपणे ! *( एक चली पाशार जाता )* हा.. हा.. हा.. !
*( उटोन चलीये पाटल्यान व्हचोंक पळेताना नाचोनशें गायता )*
"पतली कमर है; तेडी नजर है, मोगा हांगा लागीं ये.. मोगा".. !
*( सिरिल पाटल्या गळ्याक धर्न बसैता )*

सिरिल : बोसरे हांगा व्होगेच. ताचे वाणो खायनाका !

विन्सी : हुं ! तशें जाल्यार तुमचे सांगणया प्रमाणे संसारांत गरजेच्यो वस्तु......

मार्कु
सिरिल : तींनच !
बोना

मार्कु : वेलत, म्हणजे दुडु...

सिरिल : वायन, म्हळयार सोरो....

बोना : वुमन, याने स्त्री.. चली.. चेडूं.. !

विन्सी : पिश्यानो, ह्या तीन वस्तुंक वेंगोंवची व्यकती, संसाराचो गुलाम ! संसार असल्यांक ग्रासितालो ! चिंतनांक भर दिया.

बोना : विन्सी, तुजे विचार, तुज्यो सांगणयो बोव पुरातन कालाक सहजल्लयो. बुडतुगोल आतां येना ! पाटीं पळेल्ली व्यकती मिटाचो खांबो ह्या काळार जायना. उज्याचो पावस ह्या तेंपार वोताना. मोडर्न, म्हणजे आधुनिक जा विन्सी; आधुनिक जा.

**विन्सी** : संमाराचा भोगाक लबदल्ल्यांक हें कळचें ना. चिंतना शकती उणे आसल्ल्यांक हें सोमजोंवचें ना. इष्टानो, तुमचें मन आड विचारानीं गुसफडलां ! देकुन तुमचे सांगाता हांव बरसाना. *( वेता )*

**बोना** : व्हच, व्हच, पाद्री जा. लोब गाल.

**सिरिल** : पक्का देव माम !

**मार्कु** : ताणे पाद्री जाल्लेंच बरें. मात्र लोब उडोवन धवानाये ! हो.. हा.. हा.. *( तेगी हास्तात )* गेल्लो लायेक जालें; तेगांच्या विचारांकयी आड़ पाय. हाचें आयकाल्यार आमी वनवासाक वेचें पडतेलें !

**बोना** : संसारांत गरजेच्यो वस्तु तींनच, हें खंडित ! पुण तीनांत मुख्या खंची वस्त?

**सिरिल** : मुख्या वस्त? ह्हा.. ह्हा.. ह्हा.. नेणायेरे कितें? सोरो.. सोरो.

**मार्कु** : हेत्त सोरो न्हय, दुडु; पयसो !

**बोना** : पिश्यानो; सोरो, दुडु न्हय रे पापयानो न्हय. संसारांत मुखय वस्त.. हां.. सांगांत. चल्याक चली आनी चलीयेक चलो. हें जाणासोंनच देवान एवेक रचली ! हत्तेरिकी... तुमकां हें सांगानाये आसल्लें. आतां तुमियीं चेडवां पाटल्यान लागतेल्यात ! म्हाका आड पाय !

**सिरिल** : ती संसाराच्या सुरवेची गजालरे बोना. उप्रांत उदकाक बेसांव घालन भणां भणां सोरो केल्लो न्हय वे काना शहारांत ! मात्र तांतूं नवसागार घाल्लें व ना तें हांव नेणां.

**मार्कु** : सोमया देवान तितलेंच न्हय वे केल्लें तांतूं संसार खंडित घुंवतोना. संसाराचा घुंवडेक मनशान नाणियो रचले ! नाणिरे.. दुडु ! मनशाचें हें रचन सगळ्यां प्रास व्हरतें !

**बोना** : हें तर्क आतां आमकां भरी पडलें. सांगल्ले बरीं व्हय; चेडवाक वेगोंवकी दुडु जाय...!

**सिरिल** : व्होयमू? तर म्हजेंच खरें जालें. शाब्बाश, हुर्रे..! हांवच जिकलों. दुडु आसल्यार संसारच मोलाक घेवयेता. घाम पीळनंच दुडु जायना. देकुन नागायजाय, पोकोरिजाय, लूटिजाय, दलालगिरी पटोवन, पसोवन ग्रेस्त !

**बोना** : बरी अलोचन ! ह्या कामा कातिर आमची तेगांची एक कंपेनी ! कोशेडदाच्या ताळ्याक आमचे कान बंध ! तेदाळा मात्र आमचो दंदो बोरो चलतोलो आनी आमकां जाय ती खुशालाय भोगुंक आवकास लाबतोलो !

**सिरिल** : बराबर, लायेक सूचन, देव–धर्म म्हळ्ळें विसरिजाय. मेळता ताका तोपी, आमकां पूर्ण त्रपती !

**मार्कु** : खरेंच, आमी स्वार्थी जायना जाल्यार, आमचें जीवन सुखी जायना. देकुन सुरु कर्यां.. सुरु कर्यां...!

**बोना** : बिजनेस, बोलसां कातारच्यीं, काळो बाजार...!

**सिरिल** : काळोच न्हय हळदुवो आनी तांबडो बाजार जाल्यारी कर्चो पेल्यान ! दोनी वांट्यांचें कमिषन घेवन सप्रिको... बिडारां–घरांचीं दलालगिरी कामा बासावन लोंच...!

**मार्कु** : सात्रिंत रेंव, वोरवेंत फातोर आनी लोंकडाचो पिटो गटायेक ! आनी सांबाराच्या पिट्यांत लददी. पूरा बरसुंचें...

**बोना** : लूटुंक अडचण जाल्यार हमला ! पोटाक, हर्द्याक व गोमटेक "चिस्क".
*(सुरी काड्ता )*

**सिरिल** : सोरयानीं भाटी जाल्यारी चडोंवची पेल्यान. वोट्टारे मज़ेन दीस सारुंक मेळ्ळयार पुरो !

**बोना** : "करेक्ट" !

**मार्कु** : "एपसुल्युटली करेक्ट" !

**सिरिल** : ओफकोर्स ! आनी वेळ करचो नाका. चल या... ह्याच घडये.. बोना, आळे थंय पळे ! *( मुकार दाकयता )*

**मार्कु** : बायेच्या आंगार, गळ्यांत भांगार दादोशी आसा.

**बोना** : व्हा.. व्हा.. व्हा.. ! *( तेगी चलतात )*

## पड्दो

# दुसरें दृश्य

## लोरसाबाचें घर

*( वेळ सकाळिंचो. साधारण ग्रेस्त मट्टाचें घर. घराची साहेत कदेलां, मेज इत्यादी. लोरसाब अराम कदेलार बसला. पाय एका स्टूलार पातळायल्यात. रोनी, लोरसाबाचो भचो ताचे पाय दांबता. मेजार उदकाचें जग्ग, ग्लास, वकतां सिसल्यो आसात )*

**लोरसाब** : हातांत भळ नातल्लेबरीं कितें दांबताय रे? चिक्केशें भळान दांबरे पुता. ( रोनी भळ घल्ता ) हां... हां... तशें आतां.. *(खोंकता )* व्हय रे रोनी....

**रोनी** : कितें अंकल?

**लोरसाब** : बायल–भरगीं नातल्ल्या म्हाका तुजे तसलो भाचो आसल्ल्यान जालें. नां तर म्हजी गत कितें जाती कोण्णा. हा... हा... आवयस ! चिक्कें हळू दांबरे ! म्हाजो जीव काडिनाका. म्हाका लागाड काडतायरे कितें?

**रोनी** : आनी कशें दांबचें अंकल? लोव लोव दांबल्यार हाताक भळ ना म्हणताय. चिक्कें जोरान दांबल्यार "अवयस" म्हण किंक्राट मारताय !

**लोरसाब** : तितल्या जोरान न्हय, चिक्कें हळ्ळार दांबरे पुता... हां... तशें आतां. रोनी, तुका म्हजी इल्लिशी चाक्री करुंक पुरो जाता आस्तेलें; व्हय मू? ( खोंकता )

**रोनी** : जायनावे तर? सगळो दीस तुजे पाय कितले म्हण दांबचे? गावांत थावन म्हाका तुवें बोंबय हाडताना, म्हज्या माम्माक तुवें बोरैल्लेंय तुज्या पुताक बरया कामाक लायतां म्हण ! लागीं लागीं वरस जाता... हांव आनीकी तुजे पांयच दांबतां हांगासर...!

**लोरसाब** : संसारच भ्रस्ट जाला न्हयवेरे पुता ! लोंचा शिवाय आज काल बोंबेंय हालाना. सगळ्यानी सकडांचीं बोल्सां व्होड जाल्यांत. देकुन कामा मेळोंवक कष्ट. हाय संसारा ! चिक्केशें भळान दांबरे? दोम्पारां गट्ट

जेंवक नायिस्ता? *( रोनी भळान दांबता )* आवयस, हो चेडो म्हजो जीव काडता ! हळतान दांबरे. रोनी..

रोनी : कितें अंकल?

लोरसाब : म्हज्यो गुळियो, तीं म्हजीं घटायेचीं वकतां वेळा वेळार दीना जाशी जाल्यार म्हज्या जीवांत त्राण खंचेरे पुता?

*( खोंकता. रोनी एक ग्लास उदाक आनी गुळयो दिता )*

रोनी : घडये घडये दोदोन गुळयो गिळच्या बदलाक, एका दिसाचे दा–वीस गुळयो एकच पावटीं खेल्यार, जिवाक एकच पावटीं घटाय येत न्हय वे अंकल?

लोरसाब : एकच पावटीं खावन, हावें आंटिबरि लांब जायजाय म्हणचेंरे कितें तुवें?

*( गुळयो घिळता )*

रोनी : नाकावा; तुवें मोरचें नाका..! जाल्यारी आनीकी कितलो तेंप वांच्ची आशा आसा तुका?

लोरसाब : हां..! सोमजालों ! म्हजी चाक्री करुंक पडता देकुन वेगगिंच मोराजाय म्हणचें तुवें? वेळ आयल्या शिवाय मोरतातवेरे पिश्या..!

रोनी : रागार जायनाका अंकल, हावें उत्राक तशें म्हळें. वेळ येंवचो नाका. जाल्यारी केदाळा येता म्हळ्ळें कोण जणां? तुवें सासणाक मोरचें नाका. तुज्या कुस्तार हांव दादोशी असां.

लोरसाब : आसायमू...?

रोनी : आसां तर !

लोरसाब : तुवें तितलें चिंतल्यार पुरो. रोनी, म्हजी तकली आज अशियी कितें जड जड जातारे पुता? चिक्केशें तकली दांब पळेयां. हळतार हां...

रोनी : म्हाका हरयेकाचें हळ्त कळता. कापियेक साकर सयत हळतार गालता हांव. आज काल पयशे दिल्यारी मेळाना न्हय वे अंकल? पूण तुजें आंग–पाय, तकली दांबचें हळत मात्र आनीकी कळानामू अंकल !

लोरसाब : कळतेलें तरी कशें? ह्या कामाक नाजूक हात जायजायरे पुता ! पुरुषांचे हात ह्या कामाक धरभे. रोनी, हें... घरांत ते नाजूक मोव मोव हात हाडची हावें कांय आलोचन केली म्हण चिंतया, तुका हें कशें दिस्ता?

**रोनी** : तूं कसलीय आलोचन करताय जाल्यार, म्हाका तांतु दिसचें कितें? पूण तूं कसली आलोचन करची विलेवारी करताय? *( तकली दांबची रावयता )*

**लोरसाब** : दांबता दांबता उलयरे...! उलोंवक सुरु केल्यार, तुजी जीबच चलता शिवाय हात–पाय चलानांत ! हां तशें आतां. हें.. तुका पुरा सोडोवन सांगाजाय. पार्कुंक तुका बिलकुल कळाना. ल्हान बाळशें तूं आनीकी?

**रोनी** : हां तशें म्हणताना आतां म्हाका कळ्ळें अंकल. हांव आतां बाळशें न्हय. तुजी विलेवारी म्हाका सारकी कळ्ळी...!

**लोरसाब** : कळ्ळी...!? कितें म्हण कळ्ळी सांग पळेयां....?

**रोनी** : काजार.. व्हय.. व्हय.. म्हाका कळ्ळें, काजारच..!

**लोरसाब** : समा पार्किलेंय तुवें काण्णोजा..! कशें कळ्ळेंरे तुका?

**रोनी** : हांव दूद पियेंवचो भुरगो वे अंकल?

**लोरसाब** : तें जालेंच म्हण्यां. व्हय काजार. तूं हें ओपतायमूरे पुता रोनी?

**रोनी** : काजार आनी तूं ओपतायवेरे म्हण विचारताय? लजेन कितें जाप दिंवची म्हण म्हाकाच कळाना ! हांव तकली पंदा गालन हासतानांय तुका कळानांवे अंकल? ओपवोंक हांव ओपतामू. पूण म्हाका आनीकी काम मेळानातल्यान हांवे काजार जांवचे तरी कशें?

**लोरसाब** : कितें? जांवचें तरी कशें? व्हय रे रोनी, काजार कोणाक म्हण चिंतलेंयरे तुवें?

**रोनी** : कोणाक म्हण चिंतूंक हांगासर दुसरो नोवरो कोण आसा? तुवें काजार करुंक चिंतलां म्हाकाच..!

**लोरसाब** : तुका न्हय रे बिकणेष्या, म्हाका.

**रोनी** : *(आजापोन )* अंकल, काजार म्हातार्याक तुका?

**लोरसाब** : व्हय म्हाका.

**रोनी** : तुका..!?

**लोरसाब** : व्हयरे म्हाका.

**रोनी** : *( एकाच्छाणे हासता)* हा.. हा.. हा.. हा...!

**लोरसाब** : कित्याक हासतायरे? चेड्याक कितें जालां?

रोनी : ना अंकल, म्हाका चिंतुन चिंतुन हासोंक येता. *( हासता)*

लोरसाब : रावयरे हासो पडपष्या ! तुका तितल्यो हासो येंवक हांव तितलो म्हातारो रे? पावणशें आयशीं वर्सांचेर सयत काजार जातात. म्हाका साटां वयर पांचच !

रोनी : तें बराबर अंकल हांव खंय न्हय म्हणतां. पूण... पूण....

लोरसाब : पूण कितें?

रोनी : तुका ह्या प्रायेर चली खंचीं? कोणी विधव व म्हातारी....?

लोरसाब : विधव या म्हातारी !? रोनी तूं भुरगो. तुका तें समजोंचें ना. पयशे आसल्यार अट्रा वर्सांची चली म्हाकायी मेळयेता. तुज्या त्या घट मूट कर्कस हातानीं म्हजी चाक्री सेवा जायनारे पुता; जायना. म्हाका आतां गरज त्या कापसाबरीं म्होव म्होव दोन नाजूक हातांची. *(दाकोंवक हात उकोलताना )* हाय... हाय... हातांत वाकळां... हात मुयेलो; दांबरे पुता. *( दांबता )*

रोनी : अंकल; आत्तां तुज्या हातांत वाकळां; आत्तां तकली जड़. गडयेन पाय वोळतात ! इतल्यो पीडा आसल्या तुका काजाराची उमेद कित्याक?

लोरसाब : कितें म्हणांय? हांव दादलो न्हयवेरे? म्हज्या जिवांतल्यो पिडा परिहार करुंक एकच वकात; काजार ! येदोळ आंवकार रावल्लिच म्हजी चूक !

रोनी : तूं खंचो आंवकार अंकल? हाच्या पयलें दोन पावटीं काजार जावन, म्हज्या दोगां अँटिंक तुवें मुगदोन खेलांय !

लोरसाब : *( रागान )* तोंड दांफ ! मुगदुन खेलां? हुं.. तीं दोगांय मेल्यांत जाल्यार तांतूं म्हजी चूक किते रे? बायलो मरतच आनी घरांत भुरगें–बाळ ना म्हणतच हांव आंवकार न्हय जाल्यार आनी कितें? हांव आंवकारच सही.. म्हज्या मुकलें बिकाण तूं.. कानुना व्होडलीं व्होडलीं. एकाच थापडान कानसुलाचो दुवोर काडूं वे आतां?

*( मारुंक उटताना भळ ना जावन पडता )* हा... हा... उकोल रे...! म्हाका कदेलार बसय. हो चेडो तोंड पळेतामू?

*( रोनी ताका उकलुन कदेलार बसयता )*

**रोनी** : तुज्या जीवांत उबे रावोंक त्राण ना तरी तर्नाटपाणाचीं चिंतना; आनी उडताय बारा पुरसांगा ! चिक्केशें चिंतुन काम कर अंकल. तूं आतां म्हतारो न्हय वे?

**लोरसाब** : रोनी म्हाका म्हातारो म्हणानाका ! तुजी पाट खोरजुता ! *(बेत उबारता)*

**रोनी** : चूक जाली अंकल, माफ़ कर. तुका हांव केदिंच म्हतारो म्हणचोना. तूं आतां तर्नाटो. म्हातारो म्हळ्ळयाक्षण खुबळोन तूं सुंकाट तशें उडताय..! *( लोरसाब खोंकता )* खोंकताय पळे...! तुज्या जिवांत असकतकाय असा. कांय चडुणें जायत जाल्यार हावेंच लगाड काडलां म्हण गाव जायत ! बेष्टेंच म्हजेर खरगां. तूं व्हगेच बस पळेयां. राव आनी दोन गुळयो घेवन विश्रांत घे !

**लोरसाब** : आशेंच वेळा वेळार वकतां आनी घटाय पडल्यार हांव घट मूट जावन निट्ट उबो रावोंवक आसां !

**रोनी** : आतां जाल्यारी तूं तितलो उणो नांय अंकल ! पहिल्वानाक चिक्कें सुटताय ! राव, तूं चड उलयनाका. तुका खोंकली येवन काळिज बंद... *( मदेंच विषय बदलुन )* हांव तुजे पाय दांबतां.

## पड्दो

# तिसरें दृश्य

## जिल्लाबायेचें घर

*(जिल्लाबाय केस उगोवन शेंडो बांदित्त आसा. मिल्ली पिंदकुर वस्तुर शिंवता)*

जिल्ला : पुता मिल्ली, एडी येह्वोळी येंवक ना. काम सोदुंक भावडो कितलो वह्वाडता कोण्णा ! आमचें नशिब ! पप्पा तर आसल्लो, आमचेर ही गत येती ना. एडी आयिल्ल्याक्षण ताका वाड़ लोरसाबान बारी तुर्तान म्हाका क्त्याक आपोंवक दाड्लां तें पळेवन येतां.

मिल्ली : व्हय, व्हच मामा ! ह्या दिसानी वयर वयर तुका आपोंवक दाडता तो. दुडवादिक मनिस पळे ! आमचा लाचारकायेंत पप्पाचा आदल्या इष्टागतेक लागोन कांय कुमोक दिंवक जांवकयी पुरो.

जिल्ल : बरें नियाळ दिलेंय पुता मिल्ली तुवें ! कोणेंय दुडवाधिक म्हनशानंच आमकां आतां पावाजाय ! घरातंलो निमाणो कास सयत कावार जालो. आज पाल्यां म्हणतास्ताना मोडकी रांदनीर चड्ची कष्ट जाल्यात. व्हय लोरसाब आतां म्हसत ग्रेस्त ! ताका पार्टी पुडें लागसिलें म्हळ्ळे कोण नातलल्यान तो आमकां पावल्यारी पावलो !

मिल्ली : पप्पाचो आनी ताचो संबंद बाबावांबरीं जावन आसल्लो आनी तेदाळा आमी बरे दीस सारतास्ताना, लाचार आसल्ल्या लोरसाबाक कुवेयट व्हचोंक पप्पान कुमोक केल्ली खंय न्हय मामा?

जिल्ला : व्हय पुता. हांव ताचे सरशीं वोचोन येतां. ताचें मन पार्कील्ले बरीं जालें ! आमकां तो जरूर सोडन गालीसोना.

मिल्ली : हांव कसलेंय काम करतीं म्हळ्यार तूं आनी एडीबाब म्हाका आडायतात. म्हज्या पोटाक पुरतें पुणी जोडतीं आसल्लीं हांव !

जिल्ल : पुता, वाड्लली चली तूं ! फुलुल्लें फुल ! तूं आतां ल्हान भुरगें न्हय. कामाक गेल्लेकडे...

मिल्ली : कामाक गेल्लेकडे आपली मूट गट असल्यार कितें जांवचें आसा मामा?

जिल्ल : तूं सांगताय व्हय. तरी म्हाका सलीसायेन पात्येवव्क जायना. नाडगो संसार हो.. आतांचो ! नाड्तेल्यांचेर जयत वर्चें आधिक कठिण ! आशें असतां तुजी स्थिती कशी रावात म्हळ्ळें....

मिल्ली : तुजी खुशी मामा ! तरी काम करचीं सगळीं चेड्वां–स्त्रियो पाडाक पड्ल्यांत व पड्तात म्हण आमी लेकुंक पावो ना.

जिल्ल : तें हांव जाणा. तरी बरयांत उर्चो उणो वांटो; पाड जांवचो चड़. त्या भायर काम कर्च्यांचें फेशन ! हां.. तें मोरोंदी; एडी येसर घरांत तूं एकलेंच. दार आड कर्न घे पुता ! हांव चलतां. *( वेता )*

मिल्ली : जायत मामा, म्हजी भिरांत दव्रिनाका. *( शिवणेच्या कामार मगन जाता. इल्लेश्या वेळान दारार "कट कट" ठोके पडतात. बरें नेसल्लो तर्नाटो बोना भितर येता )*

बोना : हं... म्हाका माफ कर ! दार उगतें पळेवन हांव शीदा भितर सर्लों.

मिल्ली : कोण तूं? म्हाका तुजी वळक मेळोंवक ना. *( गावारता )*

बोना : वोळक मेळची तरी कशी? तुवें म्हाका आजच पळेंवचें पळे ! घरांत हेर कोणी नांत कितें?

मिल्ली : ना. कोणी नांत. म्हजो भाव सकाळीं कामाच्या तलासेक भायर गेला, एह्रोळी येंवक ना. आनी मामा आत्तां भायर गेली मात्र....

बोना : हो.. हो..! भाव आनी मामा दोगांय नांत. तर घरांत तुमी तेगांच...!

मिल्ली : व्हय तेगांच. *( भियान )* कोण तूं? पयलें तुजी वळक सांग !

बोना : घरांत अयिलल्या सयरयाक पयलें बस म्हणची रिवाज असता. हं... व्हड ना, सांगाना जाल्यारी हांवच बसतां. *( बसता )*

मिल्ली : तर्नाट्या तूं कोण म्हळ्ळें उगडापें कर. पयलेच पावटीं हावें तुका देकचो. घरांत चड चळवळिच्या बरीं तुजें नडतें पळेवन हांव कावजेतां. आमचो सयरो...

बोना : ना, हांव तुमचो सयरो न्हय. पूण विशेष कामार हांव हांगासर आयलां. सुंदर चलीये तुजें नांव कितें?

मिल्ली : म्हजें... म्हजें... म्हजें नांव मिल्ली ! सयरो न्हय तर कसल्या कामान तूं पावलाय हांगा? म्हाका भिरांत दिस्ता म्हजो भाव आनी माम्मा घरांत नातलल्या वेळार, हांव एकसुरीं आस्ताना, तुवें घरांत गुसच्चें अक्रम जावनासा !

बोना : मिल्ली ! आतां म्हाका तुजें नांवयी कळ्ळें! मधुर तुजें नांव ! ह.. ह.. ह...! आतां आयक हांव कित्याक आयलां तें ! एक दीस वाटेर तुका हावें तुज्या माम्मा सांगाता पळेल्लें. त्या दीस थावन म्हजें मन तुजेर वोंदालें....!

मिल्ली : अन्नाडया...! तुका जाय कितें?

बोना : ह.. ह.. ह.. जाय कितें? कितलेशे दीस थावन हांव हांगासर परोत करतालों. तुज्या घरा भंवतीं पासायो मार्तालों. तूं केदाळा एकसुरें मळसी म्हण आशेतालों ! आज मेळ्ळो तो संदर्ब म्हाका. तुजो भाव सकाळिंच भायर गेल्लो हांव जाणा ! आनी तुजी माम्मा भायर गेल्ली पळेवनंच हांव भितर सर्लां.

मिल्ली : तोंड धांप पडपष्या...! केदें धय्र तुजें? बर्यान हांगाचो व्हच, नातल्यार तुजें निसंतान जातेलें !

बोना : निसंतन? म्हजें? एक गट मूट तर्नाट्याचें? ह्ह.. ह्ह.. ह्ह..! एका चलीयेचें त्राण पांवचें ना त्या कामाक..! मिल्ली, हांव तुका कांय करिना. पकत्त म्हज्या कूडिची वोडनी थांबोंवक, म्हजो जीव सय्त रिसकेर गालन हांव हांगा गुसलां ! एकच पावटीं, एकच घडये तूं म्हज्या गोपांत ये...

मिल्ली : सैताना, खबडदार ! मेट मुकार काडिनाका. बलतकार चलयनाका ! एका चलीयेच्या अल्प शक्तिचो पायदो जोडुंक प्रयातसिनाका !

बोना : वाडल्ली चली तूं. तुकायी आशा अस्तेली. आम्ची आशा आमी भागयां. वोब मार्न संसाराक कळयनाका. हांतूं तुकाच लज आसा.

मिल्ली : दळिदर्या ! लजमांडयां ! आनयेक मेट मुकार दोवोरसी हांव वोब मार्न लोकाक जमायतलीं. *( दारालाजीं वचोंक प्रयतनिशिताना बोना आडायता )*

बोना : तुका हांगा थावन बचाव जांवक तांकचें ना. धमकी ? एका चलियेची एका चलयाक? ह्हा.. ह्हा.. ह्हा..! तुज्या घराक लागसार सेजार ना. पयशिल्यांक तुजी बोव आयकोंक नोजो म्हण तें दार हांवें पयलेंच बंद केलां. मिल्ली, बर्‍यान म्हज्या खुशेक खाल जा. आमी दोगांय मारयां म्हज़ा ! इनकार करशी.. पळे हांगा.. ( *बोलसांतली सुरी काडता* )

मिल्ली : ( *आंग काडन* ) म्हजें निसकळपण राकच्या खातिर तुज्या सुरीयेचें गुमान सयत हांव करचीं ना. तूं म्हजो जीव काडसी. म्हजें रगात वाळायसी. पुण म्हजो मान अपहर्सुंक तुका सकचें ना. तुजी आशा पोंत पांवचें बरी ना. नीच तर्नाट्या तुजाच गोम्ट्याक ती सुरी तोप आनीष्ठा !

बोना : ह्हा.. ह्हा.. ह्हा..! सेरमांव, सेरमांव ! हांव हांगा तुजो सेरमांव, अयकोंक येंवक ना. कुडिक खुशालाय, वोडण्यांक तृप्ती दिंवक हांव हांगा आयलां. कोणी हांगा येंवचा आनी हांवें बलतकार उपयागसुंच्या आदीं म्हज्या उत्राक पाळो दिताय व ना?

मिल्ली : ना, केदिंच ना. हांव म्हजो प्राण जाल्यारी दीन पूण पोजडेपण आदारचीं ना. कपट्या; म्हजो भाव या मामा तर ह्याच घडये भितर सरलीं तुजी गत कितें तें नियाळ !

बोना : म्हज्या जीवाची आशा सांडुंनुंच हांव हांगा भितर सरलां. हठ्ठी चलीये लांबाय काडिनाका. म्हज्या खुशेक खाल जा. ( *सुरी जोकता* )

मिल्ली : ( *चिंतून* ) व्हय; एका पुरुषाच्या त्राणा मुकार एके चलीयेचें व स्त्रियेचें त्राण जयत वराना. म्हज्या कुमकेक हांगासर आतां कोण ना. व्हय; कोण्णी ना. हांव खुशालाय जरूर भोगतां. हांव तुज्या खुशेक भागवतां. मानेस्ता, घे म्हजी कूड, ती तुका हांव ओपशितां. तुका जाय तशी भागय तुजी आशा. मात्र ह्या पातकाक हांव जवाबदार ना.

बोना : शब्बाष ! संसारांतले चार दीस मज़ेन सारिजाय. पाताक !? तें सदांचें. आदांव-एवे थावन चलोन आयिल्लें, आजिकी चल्ता. तर तुका तितली भिरांत कित्याक? सोबित साळ्का, तुजी कबलात मेळ्ळी म्हण दादोशी जालों. पकत्त तुका बेष्टांवक हांवें सुरी दाकैल्ली ! हाची म्हाका आतां

गरज ना. *( सुरी मेजार दोवारता )* ये.. ये.. म्हज्या गोपांत ये. एक पावटीं हांव तुका वेंगयतां. माणका.. गोंडया.. ये..

मिल्ली : पूण..

बोना : पूण कितें?

मिल्ली : म्हाका लज दिसताबा.

बोना : लजेनाका स्वादिक गुलोबा, लजेनाका. तांतूं विशेष कांय ना. तशेंय तूं लजताय जाल्यार हांव म्हजे दोळे दांपतां. *( दोळे दांपता. मिल्ली रबासान सुरीयेक जंपय मार्न सुरी बोनाक जोकता )*

मिल्ली : बिक्णेश्या ! आतां उगते कर तुजे दोळे आनी तुजें करतुब पळे..! आतां तूं शिर्कालोय लुशिपेरा ! आतां दाकय तुजी हुशारी ! मुकार येशी तुज्या पोटाक तोपतां ही सुरी ! तुजी सुरी तुकाच लगाड काडूंक आसा ! पातकांची दूक धर लबाडया ! अतां तें दार उगतें जातेलें. कोणी भितर येंवक सरतेलें ! तुजें सत्यानाश जातेलें. *( हासोन दार उगतें करता )* बचाव..! बचाव..! खुनिगार..! दावोन येया.. बचाव..! *( रोनी भितर सरता )*

रोनी : कितें? कितें जालें? दिसा उजवाडाक चोर? खंय आसा? तुज्या हातांत सुरी कशी? कितें चोरुंक आयिल्लो तो हांगा?

बोना : ह्हा.. ह्हा.. ह्हा.. बद्नाम..! चलाकी; चुरुक आसा ही चली ! अपणेंच जावन म्हाका भितर घेतला आनी हांवें ताच्या कूडिच्या वोडणेक पाळो दिनातल्याक म्हाकाच गुन्यांव्कार करता..?

मिल्ली : फटकिर्‍या ! दांफ तोंड़ ! फोटी गवाय दिनाका. *( रोनी कडे )* माम्मा आनी एडी भायर गेल्लीं. घरांत हांव एकलींच आसल्लीं. कामान मगन जालल्यान दार बंध करुंक गळाय केली. हो पट्टिंग रभसान भितर गुसलो. दार बंध कर्न म्हजेर बलात्कार करुंक सोदिलागलो. हंव ताका वळकाना !

रोनी : हें खरें? ताणे तशें केलें? पुण तुज्या हातांत सुरी !

बोना : फोटी, अट्टांग फोटी ! बायलाची जात; पातयेनाका. म्हज्या गोमट्याक पडता !

मिल्ली : ताच्या खुशेक खाल जायनातल्ल्या कातिर ताणे बलल्सांतली सुरी काडली. भियान ताचा वोडणेक शराणागत जातां म्हळ्ळे परीं नटन कर्न, चलाकेन ती सुरी हांवें म्हजे स्वादिन कर्न गेतली आनी दार उगडन बोंब मारली.

बोना : सगळीं घडपां ! कुसकुट सत ना. बिलकुल फोटी ! जिव्यो जिव्यो फोटी !

मिल्ली : चुप घतक्या !

रोनी : ताच्यो फोटी? तूं परकी पुरुष ताच्या घरांत आनी ताच्यो फोटी ! लुच्छा ! *(शर्टाक धरन कानसुलाक सर्सीरित थापाड दिवन )* आवय थंय गमंढ ना तुका? भयणी थंय जवाबदारी नेणांय आबलेशा ! वोयल्यान शेंडी लायताय? चूक वोळ्कानातल्यार चामारांच्या देवाक वाणांची पुजा. *(वाणांक हात गालता )*

बोना : माफ कर, माफ कर सायबा !

मिल्ली : म्हज्या आकांताक पावलल्या मानेस्ता, म्हजी मम्मी आनी भाव येमर धरन दवोर ताका, धावोंक सोडिनाका.

रोनी : कोशेडद नातलल्या बुरष्या, धावोंक पळेशी तुका लगाड काडूंक आसां. *( एडी भितर येता )*

एडी : हां..! हें कितें? कसली लूट ही? मिल्ली तुज्या हातांत सुरी? हे कोण तर्नाटे हांगा? माम्मा खंय गेल्या? कितें जालें सांग भयणी सांग म्हाका. *(रोनीच्या शर्टाक धरता)*

मिल्ली : बाबा; एडीबाबा, ताका सोड़ ताणे म्हाका बचाव केला. हो नालायक माम्मा नातल्या वेळार भितर गुसलो आनी सुरी दाकोवन म्हजेर जबरदसती केली. *( रोनीक दाकवन )* ह्या तरूणान म्हाका बचाव केलो.

रोनी : हांव हेणे पाशार जातोलों. चलाकेन सुरी अपल्या हातीं घेतलल्यान तुजी भयण साल्वार जालें.

मिल्ली : त्या आकांता वेळीं म्हजा भोबेक तो जर हांगा पावाना म्हजी गत कितें जाती कोण्णा? हांव लजेक सांपाडतीं. ताचो व्हर्तो उपकार !

रोनी : एडी, आवय भयण असच्या एका तर्नाट्याचें करतव्य मात्र हांवें आधारलां जालल्यान विशेष उपकार कांय ना.

एडी : म्हज्या भयणीचो मान उबोंवक तेदेंयीं धय्र ताचें? तेयीं घरांत घुमोन आनी सुरी दाकोवन? पडपष्या ! *( थापाड मारता )* वेकुपा..
*( मारता )* तुवें वांचोन फायदो ना. मिल्ली ह्रिवशिन दी ती सुरी. ताणे आमच्या घराची मरयाद काडुंक पळेलें.

बोना : चूक जाली.. चूक जाली. आनी करिना.. पांया पडतां.

रोनी : म्हजीं दोन थापडां खायसर न्हयिंच म्हण नेगार केलें; मागिर चूक वोळ्कालो. देकुन दर्वडनाका. इतल्यार तुमचें कांय बिगडोंक ना. मिल्लीन खरेंच जयत वेलां. आज कालचीं दुसरीं कोणी चली असल्या संधर्बार खुशेन कवलात दिती कोण्णा !

बोना : हें खरेंच. भयणी म्हाका माफ़ कर.

रोनी : कानुन आमच्या हातीं आमी घेनाये. ताका आमी पोलीसां स्वादिन करयां.

एडी : मिल्लीक भयण म्हण आतां ताणे सांगलल्यान ताका हांव सोडतां. पोलीसच ताची जावाबदारी घेंवदिंत. *( जिल्लाबाय भितर येता )*

जिल्ला : हें कितें जालें पुता मिल्ली !? हें गाल्ल गुल्ल कसलें? एडी तूं; अरे तुज्या हातांत सुरी ! कितें जालें पुता? घरांत हो कसलो खेळ? कसलें खर्ग आबा हें घराचेर?

रोनी : हो तुज्या धुवेचो अब्रु लूटुंक घरांत गुस्लोलो. सुरी दाकावन..

जिल्ला : वोयगी? आनी तूं कितें करुंक हांगा आयिल्लोय?

मिल्ली : ताणे म्हाका बचाव केलें माम्मा. ताचो वरतो उपकार.

एडी : हांव उप्रांत घरा पावलों.

जिल्ला : हां ! म्हजा धुवेचेर अत्याचार ! घरांत कोणी नातल्ल्या वेळार?? ताच्या आंगार हात गालुंक तेदेंयी ताचें धय्र? हो व्यभिचारी जबरदस्तेन म्हजो जांवय जांवक हाणें प्रयतनिसिलें ! तर ताका म्हजो सामाण जायजायच ! *( सारनी कुंटो घेवन )* खा.. खा.. खा.. मांयचो सामाण तुका.

बोना : अळे.. अळे.. हाय.. मारिनाका. चूक वोळ्कातां न्हय वे हांव.

जिल्ला : हेत्त तुजा...!

## पड्दो

# चोवतें दृश्य

## रस्तो

*( सांजेचो वेळ. बोना एका वाटेन – मार्कु आनी सिरिल आनयेका वाटेन पाशार जातात )*

सिरिल : कितले दीस मावाड्या रावोन अयलोयेरे बोना तूं? मावाडया कशें जाता?

मार्कु : ना जाल्यार, चेडवांकडे कशें उलोंवचें? चेडवांक कशें भुलोंवचें; उप्रांत तांका कशें वेंगोंवचें; खंयसर कितें आनी कशें म्हळ्ळें नेणासल्ल्याक तुका चेडवांचो होर्बोस कित्याक?

बोना : कोलाया.. कोलाया.. तुमची सर्ती येसर. आतां मोजे आयकोंचे दीस !

सिरिल : खंचा चेडवाक गरी गालुंक गेल्लोयरे तूं आमच्या खब्रेविणे? चेडवांक लागोन तूं खंय खंय पावताय म्हळ्ळें देव मात्र जाणा !

मार्कु : कोडत जैल दाकयनास्ताना पोलीसानी तुका कसो सोडलो हाबा? हुं.. तूं नसिबवंतच म्हणयेत.

बोना : म्हजें नसिब बरें आनी तुमचें फुटलां दिस्ता? बोक्रयानो, पोलीसानी म्हाका दर्न वेल्ल्यान आनी दोन–तीन दीस बंध केल्ल्यान कितली माहेत जोडुंक पावलों हांव तें तुमीं नेणांत !

सिरिल : कसली माहेत जोडलीय तुवें?

मार्कु : जयलांत म्हाहेत? हां.. कळ्ळें कळ्ळें.. बिकुणांचे मार, पोलीस चंपी हा.. हा.. हा.. *( हासता)*

बोना : हे हे हे हासले, पिश्यांबरीं हासले. अरे बेपपानो, संसारार आसल्ल्या तितल्या पूरा कलाकारांचो एक्वोटमुरे तें जय्ल. थंयसर नानांत्या थरांचें पात्र गेतल्ले मनिस आमल्ले. एक्लो बेबदो..

*( सिरिलाक )* तुज्या जल्माचो... आवाल्दार, हे आवाल्दार... आमकु कायकु पोकडारे.. हांव गोपचुप रोस्तेमे जाता... तुम पोकडा. मोसकुरयो

होगयामुरे ? म्हणताना बेबदो जालल्या पोरसार पोटांतलें तोंडांतल्यान भायर !

मार्कु : हा.. हा.. हा.. *( हासता)* सिरिला, हीं तुजीं खेळकुळां...!

बोना : *( आनयेक्ल्याचें नटन )* रातीं निदेंत स्वपणेता... "मेरी जान,-मै तेरे लीये सब कुच करुंगा.. म्हुजे मत टुक्रावो मरी जान.. आवो.. आवो.. मेरे पास" म्हणोन निदेंत म्हाका वेंग मारल्या.

सिरिल : तो बहुश्या तुज्या जल्माचोरे बोना. रोमयो रसत्या देगेचो..!

मार्कु : ( *हासता)* हा.. हा.. हा.. आनी कितले आनी कसले कलाकार आसल्ले थंय? मुंदरसी पळेयां..

बोना : व्हा.. व्हा.. बरे हुश्यार आसात. सग्ळ्यांचें अभिनयन तुमकां हांगाच दाकाय्न जाल्यार पुंक्याक देक्षातमू तुमी? सगळे पळेंवक तुमियी एक पावटीं थंय वोचोन येयात. हांगा रसत्यार रंगमंच करचो मणतात तुमी? हांव भितर आसताना म्हाका सोडोंवक पुणीं येंवक तुमकां धय्र नातल्लें. खंय लीपल्ल्यात तें कोण जाणा? तुमचेर पातयेल्ल्यार भेस! निकाळा हांगाचे. *(चलता )*

मार्कु
सिरिल } : हा.. हा.. हा.. *( वेतात )*

## पड्दो

# पांचवें दृश्य

## लोरसाबाचें घर

*(सांजेचो वेळ. लोरसाब आराम कदेलार बोसला. सिरिल ताचीं भुजां दांबता)*

**सिरिल** : लोरसाबा, चोरचें, लुटचें जरूर लजेचें ! हात पाय गट आसलल्यान हावें भिक मागचें तरी कशें? पोट बरुंक काम गर्जेचें. तेंच मेळानामू म्हाका. गडये गडये तुका दोसुंक म्हाका बरें लागाना. जाल्यारी तूं म्हजी स्थिती समजोन, कांय ना कांय दिताय म्हण बरें.

**लोरसाब** : आज परतुन मस्का मारुंक आयलायरे कितें? सोमगोळाबरी भोंवताय आनी मागोन दीस काडताय ! कोणेंय कांय दिल्यार नाक बर पियेताय.

**सिरिल** : पियेतां? केदाळाची गजाल उलयताय लोरसाबा तूं?

**लोरसाब** : केदाळाची? काल म्हजे कडे पयशे वर्न गेल्लो तूं मारगार पडल्लोय म्हण रोनी सांग्तालो.

**सिरिल** : हांव न्हय लोरसाबा तो. हां.. समा, काल रोनींच पियेवन "डिंग" जाल्लो. आमालाचया पोर्साक ताका हांव बेबदो जालां म्हण भोगलें असतेलें.. हावें पियेंवचें फ़ेसता–परबेक मात्र ! आमच्या पंचांगार मात्र खंचा ना खंचा सांता व सांतिणिचें फेसत सदांय आसा ! कोणे पुनेकेल्ल्यान तें पंचांग तयार केल्लें कोण्णा ! फेसतां–परबेंक पियेना जालयार जाता वे लोरसाबा?

**लोरसाब** : समजालें रे, समजालें. सोरो तुज्या मात्यार वोतिजाय.

**सिरिल** : मात्यार कित्याक? ताळ्यारच इल्लो वोतल्यार सही ! मात्यार वोतूंक चड जाय पडता न्हय वे लोरसाबा?

**लोरसाब** : पुरो रे पुरो. *( जांबायो काडून)* आज आशोय कित्याक जांबायो येतात म्हाका. कोण उगडास काडतागाय? कावळोयी सकाळीं का.. का.. करतोलो. कोण सयरीं येंवक आसातगी कितें?

सिरिल : उडास हांवच तुजो काड्तां लोरसाबा. सयरो जावन हांवच येंवक आसल्लों. देकुन कावळो सकाळीं का.. का.. करतोलो. आतां समजालें न्हय वे तुका.. *(नारगोन )* चड नाकात.. पांचच. सांबाळ मेळलेंच दितां.

लोरसाब : कामंच ना.. सांबाळ खंचोरे तुज्या आजागेलो?

सिरिल : तशें न्हय लोरसाबा. काम मेळल्ल्या उपरांतली गजाल सांगली तुका. आज निमाणे पांच रुपय दी आनी म्हजे कातिर माग़.

लोरसाब : मागाजाय...?

सिरिल : व्हय. आतम्या खातिर न्हय लोरसाबा, काम मेळोंक ! तुजें ऋण फ़रिक करचें नाका वे हावें?

लोरसाब : निमाणे निमाणे म्हण, हजार निमाणी जालीं तुजीं. धर निकाळ हांगाचो म्हजो जीव खायनाका.

सिरिल : लेख पुरा बरोवन दोवोर लोरसाबा. हांव वाडी समेत पार्टी दितांगी ना पळे. तशें हांवयी बरोवन दोवोरतां बा ! तूं मनिस न्हय देवता... म्हजो राकवण बोडवो म्हणचाक कांय दुबाव ना... दॅव बरें करूं. *( चलता )*

लोरसाब : *( खोंकता )* हाय.. ! *( उबो रावोंक पळेता आनी शिंक काडता )* ह्यक्षिंक़... *( गुळ्यो घेवन उदाक पियेता. आतां मार्कु भितर येता )*

मार्कु : जालें, जालें, खंडित जालें, तुजें पिकलें लोरसाबा !

लोरसाब : पिकलें? म्हाका म्हतार्‍यांत दाखल करताय रे कितें? मातें, खाड चिक्कें धवें जाल्ल्याक्षणा "पिकलें पिकलें" म्हण बोबाट गालताय?

मार्कु : हा.. हा.. हा.. खाड मातें न्हय लोरसाबा, तुका व्होकाल मेळ्ळी म्हणचें हांवें.

लोरसाब : मेळ्ळी ! व्हय रे मार्को, खंची रे पुता ती?

मार्कु : *( बसोन)* सांगतां लोरसाबा, आयक; तुवें पाटल्या दिसानीं, तुजें मन म्हजे थंय उगतें कर्न म्हाका हिशारो दिल्ल्या दिसा थावन हांव तुजाच कामा पाटल्यान लागल्लों. चिंतलें.. चिंतलें... चितलें. आज म्हजया मेंद्वान समा काम केलें ! आलोचन कशी लागता पळे...!

लोरसाब : आलोचन म्हाका पिळची असतेली. नागोंवचेंच शिवाय तुमकां तर्नाट्यांक काम करुंक पाट भागवाना.

मार्कु : पाट भागवाना? आमी कितेंय करुंक तयार असांव. मात्र त्या यंत्राक पुरा माती खायत म्हण पाटीं सरतांव. आतां सगळ्या कामांक मिशिना न्हय वे लोरसाबा. कोसूंक, उदाक वोडूंक, वस्तुरां उंवळूंक, बिडियो बांदूंक, बूक बोरोंवक, वाऱ्यार उभोंवक आनी निमाणे पोंडात देवोंवक सयत मिशिना या यंत्रां. आतां कंप्यूटरांचो काळ न्हय वे लोरसाबा?

लोरसाब : देकुनुंच तुमी आळसी जाल्यात...!

मार्कु : आळसी? संसाराचें रूप बद्लुन आमी आतां चंद्राक सयत उडकी मारतांव. वेगिंच चंद्रार भोंगले विक्रापाक आसात म्हण आयकालें हावें. तें मोरोंदी... आमची गजाल... कोणी पुडें सरल्यार काजार जातों म्हणतलोय न्हय वे लोरसाबा तूं?

लोरसाब : व्हय रे. कोणे न्हयं म्हळें. आतां कितें तूं म्हाका सयरिक हाडन आयलायवे?

मार्कु : आनी हांव हांगा गाणा गांवक आयलां म्हणचें वे तुवें? म्हजी ही आलोचन तुका कशी लागता पळे!

लोरसाब : तुज्या आलोचने निमती म्हजें काजार जातावे रे?

मार्कु : जाल्यार म्हाका कमिषन..! म्हजो हात कितें असोय खोरजुता. बहुश्या तुजें कमिषन घेंवकच जायजाय.

लोरसाब : मार्को, कांय सयरिकेचो प्रस्ताप आसल्यार उलय. नां तर तुजी वाट धर !

मार्कु : जिल्लाबायेक आपोंवक तुवें म्हाका तांगेर दाडल्लोयमू? हावें तिका पळेलें. तुजें काजार जालेंच म्हण चींत.

लोरसाब : जिल्ला कोणाक जाय रे पिश्या?

मार्कु : जिल्लाबाय न्हय लोरसाबा. तिची धुव; मिल्ली. व्हा.. दिसता म्हळयारी कशें?

लोरसाब : काजार म्हजें म्हणताय, मित्यो तूं मार्ताय मुरे मार्को ! जिल्लान कांय सांगला आसतेलें. कितें सांगलां सांग पळेयां?

मार्कु : ती हांगा येतेली. तिचेकडे तुज्या रीणाचो प्रसताप काड़ रीण फारिक करुंक तांकां असाद्य म्हण तूंच सांगतालोय न्हय वे? देकुन रीणा वदलाक तिच्या धुवेचो हात माग. रीणयी माफी आनी तुजे उप्रांत तुजी सगळी आस्तयी ताचिच म्हण सांग़, सांगचांत कितें?

लोरसाब : व्हारे.. व्हा ! बरी आलोचन ! इतली लायेक आलोचनतुज्यातकलेक कशी आयलीगाय म्हणतां.

मार्कु : तुज्या भिरमोतिन चिंतून.. चिंतून.. तकली आटोवन, मेंदू कडोवन आयिल्ली आलोचन लोरसाबा ती. हिच अलोचन खंचाय वकीलान तुका दिल्ली तर तुजे निळशे दोन नोट उदाक जाते. देकुंनच न्हय वे वकीलाची सनदि घेंवक आज काल हरयेकल्यान उडकी मारची?

लोरसाब : मार्को, तुजी आलोचन म्हाका पसंद.

मार्कु : पसंद !? तर कितलो हुशार पळे हांव ! शाब्वाष.. पुण जिल्लाबाय बरी तर्नाटी दिसता. तुजी मांय जावंक तिची प्राय तुज्याकी उणि मू लोरसाबा. तरन्या प्रायेर विधव जाल्यान तिचे कडे...

लोरसाब : परतुन थंयंस आयलो. तिचेकडे काजार जा म्हणतायवे रे म्हाका? वाडल्लें चेडुं भुरगें घरांत आस्ताना आवय काजार जातावे रे? त्या भायर म्हाका तनी चली कित्याक मेळाना पळेतां हांव. म्हजेकडे गुले आसात. *( खोंक्ता )* आसा गुलो.. मारता उलो..!

मार्कु : ती आयली. आयली लोरसाबा !

लोरसाब : आयली?

मार्कु : ये जिल्लाबाये, ये..

लोरसाब : भारी आपरूप...! ये बोस. मार्को तिका एक कदेल दी आपा.

जिल्ला : कित्याक आपोंवक दाडल्लेंय? पोर एक दीस हांगा म्हण आयिल्लीं. आर्द्यार थांवनंच पार्टी गेलीं. घरचा लाचारकायेक लागोन तकलीच थिर्‌यार ना. एडीक आनीकी काम ना. आनी चेडवाची वाडावळ कांय रावाना. तकलेक वोडल्यार पायांक पावाना.. पायांक वोडल्यार..

लोरसाब : तें हांव जाणां. तुमकां कांय कुमक करयां म्हळ्या अर्थारच तुका आपयल्लें. तरी कितें करचें? तुज्या घरकारान नोट बरोवन दीवन घेतल्लें रीणंच वोडलें आसा..

जिल्ला : एडीक काम मेळ्ताच फुल ना पकळी दीवन रीणांतलें सुटाजाय म्हण चिंतलां. तरी चेडवाचें म्हज्या मात्यार आयलां.

मार्कु : त्या विशयांत कित्याक खंत करताय जिल्लाबाये? ताका कांय उपाय सोदयां.

लोरसाब : कसलो उपाव मार्को? तर्नाट्याची तुजी आलोचन तरी अयकोवयां. माकायी आतां पयशांची गरज. आसल्ल्या वदकाक वाळाय लागात्त आयली. म्हजें येवें आतां वसूल जायजाय पळे.

मार्कु : जिल्लाबाये, लोरसाबाक आतां पयशाचीं गरज आनी तुमगेर आतां लाचारकाय भळ. ह्यो दोनी समस्या तिरसुंक सलीस उपाय आसा. दोनी पाडतींक वायट दिसाना जाल्यार हांव म्हजी अलोचन दीन..

लोरसाब : फ़ायद्याची आलोचन जाल्यार तांतूं वायट लागचें कसलें?

जिल्ला : उपकाराक पडचें सुचन जाल्यार सांगानांय.. नार्गाताय कित्याक?

मार्कु : तर आयका, लोरसाबाक पयशे गरज; ते दींवक तुमकां आतां तांक ना. त्या शिवाय तुमचें व्हजें हाळू करुंकी तुमकां साद्य ना. लोरसाबाक आतां ताचें घर–दार सांबाळुंक घरांत दोन नाज़ूक, कांकणांचे हात जाय म्हळ्ळें ताचें चिंताप. आशें आसतां, तुज्या धुवेचो हात ताकाच ओपसिल्यार, समस्या तिरसाली न्हय वे जिल्लाबाये? रीणयी फारिक, व्हजेंयीं हाळू...

जिल्ला : कितें..?! रीण फारिक करचा खातिर धुवेचो हात म्हातार्‍याक? हांव म्हज्या चेडवाचो पुडार पाड करिशीं ना. ना.. ना.. हें जयना. खंडित जावन जायना.

लोरसाब : बरें कर्न चिंतुन पळे ! मार्कुचें सुचन जावयेतशें भोगता म्हाका. हांगा तुज्या चेडवाक कसल्लिच पिकिर आसचिना. दोत देणे म्हाका कुस्कुट नाका. त्या भायर रीणयी माफी ! *( खोंकता )*

मार्कु : व्हरोवन पळे जिल्लाबाये, दरवडनाका ! हें घर आनी लोरसाबाची सगळी पूंजी मागिर तुज्या धुवेची जाता.

लोरसाब : हें तर तुका मांदाना म्हजें येवें वसूल करचें मेट हांवे काडचें पडता. गरज पडल्यार तुका आनी तुज्या भुरगयांक कोडतिक ! बरोवन दिल्लो नोट म्हजेकडे शाबित्त आसा. *( ठसो दाकयता )*

जिल्ला : कोडतीक? नाका नाका. म्हज्या भुरगयांचो पुडार विबाडिनाका. आवय–बापायचा रीणाक भुरगयानीं कष्टोंचे नाका. तुका शरणगत जावन हांव तुज्याकडे उपकार मागतां. आमचेर दया कर... आमची बिरमोत पाव.

लोरसाब : म्हजी आशा हांव माजवोंक सोडिसोना. ऐकच तुज्या मिल्लीचो हात म्हाका... नांवे रीणाक कोडतींत फायसला !

जिल्ला : तर, हांव ह्या विशयांत चिंत्ता. भुरगयांसंगीं हें व्हरायतां. तुजी मरज़ी अशी आसा जाल्यार हांवे खाल जायजय पडलां.. वेगळिच उमेद घेवन हांव आयिल्लीं. म्हजीं चिंतना वोमतीं पडलीं. लाचार.. दुबळयांक अशेंयी कित्याक कष्टिताय सायबा देवा? *( वेता )*

मार्कु : *( भायर पळेवन )* गेली... लोरसाबा. म्हजी अलोचन कशी? हा.. हा.. हा..! जालेंच म्हणोन हावें तुका व्होडोल सांगोंक नांवे? तुजी आशा ज्यारी ! ताणी कबूल जायशें तांका समजोवन, तांका चडोंवचें काम म्हजें. ह्या कामा बाबतीन कांय इल्लें "एडवान्स"?

लोरसाब : तें जालेंच ! एडवांन्स काणगे... पूण म्हजें काम पुरा कर.

मार्कु : तिच्या उलावणयारच तुका कळोंवंकनांगी कितें? तुजें काजार जाताच... न्हय जालेंच म्हण चिंत आनी काजाराची तयारी कर.

लोरसाब : मार्को ! तो आरसो दी पळेयां...*( आरसो पळेवन )* हां.. ना ना हांव तितलो म्हातारो दिसाना. काजार जांवक हांव योगय असां. तेयीं....

मार्कु : तेंयीं.. तरन्या चलीयेकडे. केसांक, मिशयांक इल्लेशें काळें पुसल्यार.. तूं तर्नाटो नोवरो.. कोंवो कसो दिसतालोय लोरसाबा.

दोगी : हा.. हा.. हा..! *( हासतात )*

## पड्दो

# सवें दृश्य

## जिल्लाबायेचें घर

*(वॅळ सांजेचो. एडी भायर सरता. रोनी बसोन आसा. मिल्ली भितर आसा.)*

**एडी** : रोनी, त्या दीस म्हज्या भयणीक बचाव केल्ल्या लागायत तूं आमगेर येवन वचोन असाय. आमचे हाल–हवाल तूं समजालाय. पुण आज वरेग तुजी वळोक आमकां सांगोंक नांय. तूं खैंसर रावताय आनी कसल्या कामार आसाय?

**रोनी** : कितें प्रयोजन? ह्या घडये म्हाकायी तुज्याबरीच काम ना. काम तर आसल्लें म्हजी वळक तुमकां पुरती सांग्तों. हां... देवाचें निर्मोणे आसल्यार, म्हाका काम वेगींच मेळ्तेलें आनी म्हजीं चिंतनां जरूर जारियेक येतेलीं. चडताव हांव कांयिंच सांगाना.

**एडी** : तुजी मरजी ! सांग म्हण तुका आमी भळ करिना. वेळ येताना एकामेका विशयांत आमकां पूर्ण कळ्तेलें. बरें तूं बस. कामाचा खबरेन म्हाका वचाजायच पडलां. वॅळ जालो. माम्मा येसर हांगा तूं असाय देकुन हांव चलतां. त्या दिसाचा घडणे उपरांत, मिल्ली घरा एकलें रावोंवक भियेता. *( मिल्लीक उलो करता )* मिल्ली.. ..,
*( मिल्ली भायर येता )* माम्मा आत्तां येतेली... हांव "इंटरवीव" दीवन येतां. *( चलता )*

**रोनी** : तुमची हकीकत समजोन, हांव बारी दूःख पावतां मिल्ली. तुमकां कुमोक करतों म्हळयार म्हाकायी काम ना.

**मिल्ली** : तुजें व्हरतें मन तुवें आमकां करची व्हरती सहाय रोनी. एडीबाबा सांगाता तुकायी काम मेळोंक हांव सदांयी मागतां.

**रोनी** : म्हाका काम मेळ्तच, गळाय लांबाय नासताना हावें एक धैराथिक मॅट काडचें म्हण चिंतलां.

मिल्ली : तितलें धैराधिक मेट कसलें आबा तें?

रोनी : तुका सांगचा आदीं हावें तें एडीक आनी तुज्या माम्मीक पयलें सांगाजाय. हें म्हजें कर्तव्य.

मिल्ली : एडीक आनी माम्माक पयलें? रोनी कसली संगत सांगोंवक तूं खुशी वरताय? आदिंच म्हाका सांगल्यार बादक कसलें? तुजो घुट हांव भायर गालीना. म्हाका सांग़ तुजा धैराधिक मेटा विश्यांत. आयकोंक म्हाका आतुराय भोगता.

रोनी : व्हय, आजकाल एकामेकाची कबलात पयली गरज म्हणतात. तर हावें तुजे थावन कित्याक लीपयजाय? ती गजाल तुका सांगल्यार तूं म्हजेर भिगडचें नांय मू?

मिल्ली : भिगडचें कित्याक? त्या दिसाचा अन्नडयाबरीं कांय तुजो विचार न्हयमू?

रोनी : तसल्या अणवयाक म्हाका सरी करिनाका मिल्ली. हांव तितलो हीन न्हय ! म्हजी आशा लाचारकायेंत आसल्ल्या तुमकां कुमोक करची. तेंयी म्हाका काम मेळतच.

मिल्ली : तुका काम मेळतच आमकां कुमोक? खंचा थरान? काम मेळतच तुज्या घरच्यांक तुवें सांबाळिजे पळे !

रोनी : व्हय; म्हज्याच घरच्यांक ! काम मेळतच म्हजेंच घर करतोलों. आनी म्हज्याच घरांत हांव तुका म्हजी घर-राणी...

मिल्ली : रोनी; म्हाका लजेक गालीनाका..! म्हाका पार्कूंक तूं आशें म्हणताय दिसता?

रोनी : ना मिल्ली; हावें खरेपणान चिंतलां. पुण तुमकां तर मांदाना, म्हजो बलातकार ना. हांव खुशेन म्हजीं चिंतनां बदलीतां.

मिल्ली : तर तुवें आज म्हाकायी म्हजें काळिज उगतें करुंक संदर्भ दिलोय रोनी. म्हज्या मोनाची आशा सांगोंक साद्य केलेंय. त्या दिसा तुवें म्हाका त्या बोलप्याच्या घासांतलो बाचाव केल्ल्या गडियेच म्हजें मन तुजे थंय वोंदाल्लें.

रोनी : खरेंच मिल्ली..!?

मिल्ली : व्हय.. खरेंचबा रोनी ! *( दोळ्याचीं दुकां-पुसता )*

रोनी : मिल्ली; एकामेका थंय आमची वोंदोणी आसा म्हळ्ळें आयकोन, कितलो संतोस म्हाका भगता...! हें कितें, तुज्या दोळ्यानी दुखां..?

मिल्ली : आनी म्हाकायी तुज्या एकिनायेची आनी दयाळायेची खुशी कळतच, दाधोसकायेच्या उमाळ्यान रडोंक आयलें बा.

रोनी : रडानाका मिल्ली. देव हें आमकां निरमुंदी. म्हाका काम मेळ्ल्लेंच, तुज्या माम्माची आनी भावाची कबलात आसा व ना पळेंवंची.

मिल्ली : तांची आडकळ आसातसी म्हाका भगाना रोनी, तांका हांवच सोमजायतां. म्हज्या विशांतली तांची खंत परयार जाताना आनी तुज्या तसलो अपवोंत भुरगो मेळताना तीं आडकळ हाडचींनांत. त्या शिवाय आनी कितेंय हेर आडकळ आमचेर तर आयली आमी एकामेकाक विसरना जांवक भास दियां. वेगिंच तुका काम मेळोंवक हांव मागतां. *( रोनी भायर पळेवन )*

रोनी : तुजी माम्मा आयली. हांव ।अतां तुमची रजा घेतां. वेळ येसर आमच्या चिंतनाची मांडावळ गुपित दोवरयां. हांव तुका विसरचोना. *(जिल्लाबाय भितर येता – खर्शेवन)*

जिल्ला : मिल्ली, एक गलास उदाक दी पुता म्हज्या जिवांत तळमळ जाता. जीव गाबार्ता. *( बसता )*

मिल्ली : किते जालें माम्मा? *( उदाक हाडन पियेंवक दिता )* माम्मा; कितें जालें तुका?

रोनी : वोतांत गेल्ली न्हय वे? मर्का जालें आसतेलें...

जिल्ला : व्हय; कठिण धाव. धग सोसुंक तांकलना. उदक पियेतच इल्लिशी थंडाय जाली. रोनी, तूं केदाळा आयिल्लोय?

रोनी : तूं गेल्ल्या पाटापाट आयिल्लों. तूं येसर बोस म्हण एडी कामाच्या खब्रेक चल्लो. आतां हांवे व्हच्येत म्हण जालें. तूं आयलीय पळे.

जिल्ला : राव म्हळयार तूं कांय रांवचोनांय. आमची लाचारकाय आमचाकी चड तुका खरगिता म्हण दिसता. वरें तर व्हच. *(रोनी चलता)* पुरसोते वेळार येवन वचोन राव पुता. *(मिल्ली पळेवनच रावता)* मिल्ली...

मिल्ली : *(मगन जाल्लें आकांतोन)* हुं..! कितें माम्मा?

जिल्ला : कठिण असकतकाय भोगता पुता म्हाका. कठिण काडामोड, आंग हुन आसागी पळे?

मिल्ली : *( पळेवन )* व्हय; तुका ताप येता. एकाच्चाणे तुका कितें जालें माम्मा?

जिल्ला : *( एकाच्चाणे ससकारोन )* हुं.. हुं.. व्हरती आशा घेवन हांव गेल्लीं पुता. दुःखाचें वरस सारतच पयलें पावटीं हांव लोरसाबागेर गेल्लीं. व्हय तें सांगोन प्रयोजन ना. खंचाकी एडी घरा येवंदी.

मिल्ली : कितें पुणी अकमानाचीं उत्रां तो उलयलो अस्तोलो. नातल्यार तुका इतलो उमाळो येतोना.

जिल्ला : ताचे प्रास वरतें अकमान दुसरो ना पुता मिल्ली. दुबळयांचा हणे बरपांत तसेंच बगेलां म्हण दिसता. एडीक काम मेळ्ळयार मात्र ह्या अकमानाक जाप दिंवक साद्य जातें.

मिल्ली : *( भायर पळेवन )* भावडोसो जावन एडीबाब आयलो माम्मा. इल्ली विश्रांत घेंवदी. *( एडी भितर सरता )*

एडी : प्रयोजन ना माम्मा ! हांव कसोय दुराद्रष्टी ! तुकाय अद्रष्ट ना. मिल्लीक ताचें पुडें ना. एक जागो खाली आसल्लो. ताकायी शेंबोरानी अरज्यो. पयलेंच एका चलीयेक भितर आपैलें. ताकाच कामाक पसंद केलें. आमी सक्कड पाटीं. गेल्ले कडे चेडवांक कायस. कित्याक म्हळ्ळें समजाना.

जिल्ला : पुता निराशी जायनाका, साधन करताय न्हयवे? एक दीस तुजियी सरती येतेली.

एडी : सरती येतली व्हय. पूण केदळा माम्मा? ह्या हालानी तूं कष्टताना म्हाका पळेंवक तांकाना. *( हाताक दरता )* हें कितें तुजें आंग मुरमुरता? तूं बरी नांय माम्मा?

मिल्ली : व्हय; ती बरिना एडीबाबा. ती लोरसाबागेर थावन पाटीं आयिल्लिच तापान बसल्या. थंय कितें तरी चडुणे तिका आयकोंक मेळ्ळां. नातल्यार वेताना ती बरी आसल्ली !

जिल्ला : मिल्ली कित्याक दरवाडलेयं? तोच नीराशी जावन आयला. वोयल्यान म्हजें पुराण आयकोन....

मिल्ली : तुज्या तकलेक ताप चडता वेरग हावें व्हगेंच रावाजाय म्हणचेंवें मामा तुवें? *( तकलेक हात लावन )* तापान बाज्ताय पळे !

एडी : सांग मामा कितें जालें? कोण तो लोरसाब? थंय गेल्ले कडे तुका कितें घडलें?

जिल्ला : एडी, मिल्ली, तुमकां तें सोसुंक तांकचें ना पुता. अकमान.. अकमान पुता तो !

मिल्ली : मामा सोसुंक तांकता. हांव कांय तितलीं आसकत न्हय.

एडी : इतल्या आतुरायेक गाल्तेच आनी आमचे थावन लीपवन पायदोना. तितल्या आकमानाचें कसलें कर्तुव ताणे आदारलें? हांव पारिकपण काणघेतां त्या म्हतार्‍याचें !

जिल्ला : एडी तसलें कांय चिंतिनाका. आमची दुबळिकायी आमकां भोगुंक लायता.

एडी : कसल्यागी हिणसोणेन तुका ताप चडला ! तूं खंगाल जाल्याय.
मतिंतच दवोरन भिचाणयाक लागसी जाल्यार, तुज्या भुरगयांचीं गत कितें? देकुन सांग भियेनाका.

जिल्ला : कांय इल्ली कुमोक हाडयां म्हण हांव थंय गेल्लीं. बदलाक पप्पान काडलेलें रीण आतांच जाय म्हणालो पप्पान बरोवन दिल्लो नोट दाकवन...

एडी : तितलेंचमू, तांतूं कितें जालें?

जिल्ला : तांक ना म्हळ्ळयाक, तांक नातल्यार माफी करयेत म्हण काजाराची आशा दाकयलागलो ! *( हुसकारता )*

एडी : तुज्याकडे काजार जातां म्हणालो कितें तो म्हतारो ?!
*( जिल्लाबाय तडवुंक तांकानासताना सुसकरता )*

जिल्ला : म्हजेकडे न्हय पुता. म्हाका आनी काजार नाका. तुमचें बोरें वायट पळेंवची म्हजी निमाणी आशा... मिल्लीचो, मिल्लीचो हात आपणाक ओपसी म्हळें ताणे. *( मिल्ली तटक्क जावन अकलासता )* हांव खुबाळ्ळीं. हांवे विरोधिसिलें... तर रीण कोडतिंत वसूल करतां म्हणालो..

एडी : हेत्त, कोडतीक वोचोंदी तो. आमी पळेवन काणघेयां. मिल्लीचो हात त्या म्हतार्‍याक मेळचोना.. मेळचोना.. मेळचोना....!

मिल्ली : माम्मा...; माम्मा... एडीबाबा, *( रड्ता )* म्हजें निमतीं कितले कष्ट? कितलें सोसुंक तुमकां?

एडी : भयणी रडनाका. तुज्या खुशे विरोध तुजें काजार कोणायलागीं जांवचे ना. पप्पाचें रीण फारिक करुंक आनी तुका त्या म्हातार्‍याच्या गोम्त्याक भांदिना जांवक हांव जैलाक व्हसोंकी तयार आसां.

जिल्ला : जैलाक वेताय? व्हय; घरांत पुरुष तूंच ! ताच्या खुशेक खालतिमान घालिनातल्याक तुकाच तो कोडतीक नाचयतालो. जैलाक दडतालो... हा ! पुल्त्या प्रायेचा तर्नाट्याक तुका नालीश ! तुजो गुन्यांव नासतां हें तूं कशें सोस्तोलोय? हें मज्यान चिंतूंक जायना !

एडी : गूंड चिंतूंक व्हचानाका.. माम्मा. चोरन, लुटुन, नागोवन व कोणायची खुनी कर्न हांव जैलाक व्हचाना. एका भयणी थंय एका भावाचें कर्तव्य पाळ्चा कातिर कसलेंय नालीश बोगुंक, जीव सयत दींवक हांव पाटीं सरचोना. हें एका भावाचें हक्क !

जिल्ला : पुता, कितलो समजणिक तूं.. *( वेंगयता आनी रड्ता )* हा..!

मिल्ली : अक्लासानाका माम्मा; राव. एडीबाब जैलाक व्हचासोना. हें जांवक हांव सोडचीं ना. एका भयणीची सोडवोण करुंक भावाक जर तर आपलें जीवन विबाडिजाय पडता, तर एका भयणीकी एका भावाच्या जीवनाचें संरक्षण करचो कायदो आसा. ताचेलागीं हावें काजार जाल्लयान आमी रीणांतलें सुटतांव जाल्यार, म्हाजा भावाक त्या कोडतिच्या आनी जैलाचा नालीशपणांतलें सोडोंवक ताचेलागीं हांव जरूर काजार जातां माम्मा.

जिल्ला : मिल्ली, तें जायशेना पुता. तूं तुकाच नेगार कर्न तशें म्हणनाका.

एडी : भयणी, तसलो साक्रिफिस बेटयनाका ! तसलो साक्रिफिस बेटयनाका! म्हजें फ़िकिर तुका नाका भयणी, नाका. तें म्हतारें कडतार आनी तूं तर्ने फुल ! हें जांवक हांव सोडिसोना. आनी हें तर जायत म्हजे तसलो भाव आसोन फायदोना. तर्नाट्या चलया लागीं तुवें लघन जायजाय !

मिल्ली : तशें म्हणानाका भावा, तशें चिंतिनाका ! म्हाका तूं आडायनाका ! ताका म्हतारो म्हणोन म्हाका रडायनाका ! म्हतारो जाल्यारी तो एक पुरुष. एका

चलीयेक व स्त्रियेक ताचो सांगात जोडुंक कसलोच आक्षेप असातसो माका भोगाना. म्हज्या खुशे विरोद, म्हजें काजार कोणायलागीं जांवचे ना म्हण तुवेंच आत्तां उचारलेंय ! ती भास पाळ एडीबाबा; पाळ. म्हाका ताचे लार्गीच काजार जायजाय ! म्हाका तोच नोवरो जाय ! म्हाका ताचाच घराणयाची, ताच्या दुडवाची राणी जायजाय. म्हाका ग्रेस्त जायजाय. ह्या लाचारकायेंत हांव लोळचीं नां. हां.. हांव ग्रेस्त जातां... हांव ग्रेस्त जातां...!

जिल्ला : मिल्ली; म्हज्या बाळा ! *( रड्ता )*

एडी : मिल्ली; म्हज्या भयणी ! *( रड्ता )*

मिल्ली : रडानाका... जायत म्हण भावा... हास *( दूक लीपयता )* हास, भयणी कातिर सांतोस पाव आनी रजा दी म्हाका. म्हाका निराशी करिनाका...

एडी : तुजी खुशी कर भयणी... हांव आडायना.. निर्वोगयाक म्हाका, परिपूर्ण निर्वोगी केलोय तुवें आतां....

मिल्ली : एडीबाबाची देक काणगे माम्मा, रडानाका, हासतया मुखान तुजें आशीर्वाद दी म्हाका आनी म्हज्या काजाराची तयारी कर . घळाय नाका.

जिल्ला : तापल्ल्या कायली थावन उज्याक उडकी म्हळ्ळया परीं जायना जांवंदी गत तुजी. इतलेंच एका आवयचें मागणें. आशीर्वाद तुका ! *( रड्ता )*

## पड्दो

# सातवें दृश्य

## जिल्लाबायेचें घर

( वेळ सकाळिंचो. मिल्ली काजाराची नेसोण तयारसिता. दारार "कट कट" आवाज जाता )

**मिल्ली** : कोण? धार उगतें आसा. ये भितर ये. *( रोनी भितर सरता )* रोनी, तूं !? इतले दीस तूं खंय पावल्लोय? तुजी वाट राकोन राकोन पुरो जालें.... हांव निराशी जालीं. तुजो विळास आनी तुजें मेळाप नातल्लयान तूं घडये मेळताय व ना म्हण हांव दुबावलीं.

**रोनी** : हें कितें मिल्ली, काजाराची नेसोण? तुका आदिंच खबार मेळ्ळी कितें? हांव हांगा थावन व्हचोन महिनो जालोमू? त्याच दिसा म्हाका कामाक अपोवणे आयिल्लें. दुस्रयाच दिसा भायर गावाक गेल्लों हांव आज पार्टी पावलों आनी शीदा तुका मेळोंक आयलां. माम्मा आनी एडी खंय आसात? तुमकां तिळसून व्हसोंक पावट मेळ्ळी ना.

**मिल्ली** : माम्मा आनी एडी दोगांय रेषन शोपाक गेल्यांत. घरा जाय जाल्ली वोरवी हाडिजाय पळे !

**रोनी** : हांव तुका संतोसाची खबर हाडन आयलां मिल्ली. म्हाका थंयसर बरें काम जालें. रावोंक भिडार, बरें घरयी मेळ्ळें. तुका दिल्ली भास पाळूंक म्हाका आतां अन्कूल लाबलें.

**मिल्ली** : तूं म्हाका खरिच सांतोसाची खबर हाडन आयलाय रोनी. पूण हांव तुका दुखाची खबार सांगोंक राकतालीं.

**रोनी** : दुखाची खबार? कोण अंतरलें? हां... कळ्ळें माम्मा आनी एडी कवूल नांत अस्तेलीं?

**मिल्ली** : अंतरोंक कोणी ना, घडबडनाका.. माम्माची आनी एडीची आडकळ येंवक ना. तरी तुवें आतां म्हाका विस्राजाय पडतेलें.

रोनी : विस्राजाय? तूं कितें म्हणताय मिल्ली? हें कशें जांवचें? तूं म्हाका कोलायताय अस्तेलें.

मिल्ली : कोलायना ! खरें सांग्तां रोनी. अळे, तयारी पळे. म्हाका वेगिंच काजार आसा. तुजोयी पात्तो नातल्लो जाल्लयान, तुजी हिवशिली वोंदोणी संपल्या म्हळ्ळें भावन आयलें....

रोनी : तुवें तसलें भावन मर्तीत घेतलेंय? तुका काजार कोणाकडे? म्हाका धिक्कारसुंक खंचो आसतिदार मेळ्ळो तुका? सांग मिल्ली.. सांग. म्हाका रडायनाका !

मिल्ली : तें सांगोन प्रयोजन ना. काणी वरती आसा. व्हय.. तुका विसार्न हें मेट काडूंक तूं ना जालोय. आनी म्हाका चिंतूंक वेळ नासो दिसलो. हावें सट्ट कर्न ठरायलें. रोनी; तूं म्हाका विसर. इतलेंच तुका म्हजें मागणें. म्हजी सगळी तयारी जाल्या. कार्यींच बाकी उरोंवकना.

रोनी : कशें पुटवालें तुका म्हजें काळीज शिंदुंक ! इल्ली पुणी बिर्मोत दिसोंक ना तुका?

मिल्ली : दिसली रोनी; पूण कितें करयां? निरवोग ना जालो. घराच्या देस्वाटाचें, कुटमाचा नाशाचें सवाल आयलें. हांव सलवालीं. म्हाका तकली भागायजाय पडली ! म्हजेर वायट चिंतिनाका रोनी; म्हाका कांठाळनाका ! तुजो मयपास म्हज्या हृदयांत जरूर रेंबला. पूण तो ह्या पुडें एका भयणीचो मयपास जावन स्वीकरसी भावा...

रोनी : हावें स्वपणांती चिंतूंक नातलें एक चली दिल्ली भास मोस्तुन, भास दिल्ल्याच्याकी बरो सांगात मेळल्ल्याक्षण, कुरडें जावन ताका भुल्ता म्हळ्ळें आज म्हाका सुस्तालें ! हावें तुजो खरो मोग केल्लो. सांगाताच पतिण करचो मोग तो ! भाव–भयणीचा मोगाक कसो बदल्तालो.

मिल्ली : चूक सोमजणी करिनाका रोनी. म्हज्या अंतस्कर्नाचा घायाक आनीकी कोंकिनाका ! काळीज पातोर कर्न म्हळ्ळे परीं हावें तुका तिराकरसिलां. तूं हें पातयेंवचोनांय ! तुका चडताव सांगोंक हांव अपेक्षिना. तुकायी तें सोसुंक तांकचें नां. म्हाका तूं भयण म्हण काणगे म्हळ्ळें मात्र हांव प्रार्थन करतां.

तुजो पुडार बोरो जांवक हांव सदांच मागतां. कुटमाचा रक्षणा कातिर दिल्लें उतार पाळूंक म्हाका आवकास दी भावा !

**रोनी** : तुजें प्रार्थन तर तशें आसा, चडताव कसलेयीं प्रस्ताव हांव हाडिना. कसलेंच तपशील हांव तुज्याकडे विचारिना. तुवें भाव म्हण जरतर म्हाका काणघेलांय, धर... काणघे ही काणिक, भावाचो उगडास ! वेगळ्याच अर्थार तुका इनाम दींवक हाडलेली ही वस्त, वेगळ्याच अर्थार हांव आरपितां. उदार मनान स्वीकरसी भयणी, स्वीकरसी. *( मिल्ली काणगेता )* आनी तुका परतुन पळेंवक हांव मेळचोनां. हांव कोण कितेंगात तें तुका कळचें ना. हांव खंयसर आसां म्हळ्ळोयी तुका पात्तो असचोना. सुखान जिये... सुखान जिये..! अदेव्स तुका..! *( दांवता )*

**मिल्ली** : रोनी, रोनी.. *( रड्‌ता )* हुं.. हुं...*( करंडो उगतो कर्न मुदी काडन )* ही मुदी तुज्या शाश्वीत उगडासा कातीर म्हजे स्वाधिन उरतेली भावा.....!

## पड्‌दो

# आटवें दृश्य

## रस्तो

*( वॉळ सांजेचो. सिरिल एकदम बेबदो जावन पाशार जाता. )*

**सिरिल** : हांव कोणाचेंच आयकोंचो ना. हें... सोरो पियेवन हांव आसो जालां? कोण म्हणता...? कोण तो म्हाका बेबदो म्हणता... हेत्त... ताचें निसांतान जांवक. हांव एकेक्ल्याकच सुटी करतां... हां तूं म्हाका बेबदो म्हणताय न्हय? तुजो वापुय बेबदो.. तुजो.. तुजो आजो बे.. बे.. बेबदो ! म्हजीं बायल भुरगीं वोळ्वोळ्ळयार तुका कितें जालें? तांची खंत आसामू तुका? हें..? तुका तांची खंत आसामू? तूंच तांका सांबाळ.. तुकाच म्हजी बायल–भुरगीं, व्हय तुकाच. हें.. तुका? म्हज्या बायलेची खबार काडशी... तुका कुडक्यान कुडको करतां. जिवशींच मारतां. हात बॉट लाय पळेयां तूं म्हज्या बायलेक. लाय.. लाय.. हांव पळेवन काणघेतां... हें.. हें.. धर.. धर.. *( खोट मारता आनी गुंवोन पडता )* हां.. म्हाका लोटुन गालन खंय दांवताय? राव फट्टिंगा.. राव रे..! *( वेता )*

# पड्दो

# नवें दृश्य

## लोरसाबाचें घर

*(वेळ फांतें. काजाराची रात. सयरे, ईष्ट काजाराचो दबाजो आचरसितात. मिल्ली; व्होकाल, लोरसाब; नोवरो, भुरगींयी आसात. लोरसाबाची भयण येजमान तसें वर्तन करता. )*

**दुलसिन** : कारयें दबाजान तिरसालें. सुदारसिल्ल्या सयऱ्यांचो व्हर्तो उपकार ! सगळें दाधोशीं जालें जाल्यारी आमचो तर्नाटो मात्र काजाराच्या वेळारच ना जालो म्हळ्ळें करकर म्हजें. कामाचा खब्रेक गेल्लो खंय थैंच शिर्कालो अस्तोलो. कागादयी ना भावडयाचें...! मोरोंदी.. आमच्या लोरसाबान लक्षणाची चली घरांत हाडल्या म्हळ्ळी पातयेणी.

**लोरसाब** : रात काबार जायत आयली बाये दुलसीना आनी दीस उज्वाडात्त आयलो. तुमकां आनीकी पुरो जांवक ना अस्तेलें. हांव निदेन पिकलां. आतां इल्ली नीद काडची विलेवारी करयां. सयरे कितें म्हणतात? ताणी ओपसुन दीवन वेतानांच वोरां बारा उतारल्यांत !

**मार्कु** : आज काजाराची रात, खुशालायेन खरचिजाय लोरसाबा. आज निदचें? उज्वाडता वेरेग बसोन, पदां म्हणोन पाशार करचें.. उज्वाडताच आमी आमचाम्चा घरा...

**मिल्ली** : बाये काजाराक कोण ना जालो म्हळ्ळेंय तुवें आत्तां. कोण तो? कोणी लागसिलो सयरो व दायजी; कुटमांतलो पुणी वे?

**दुलसिन** : तो म्हजो पूत. हांगाच आसल्लो. हांव येंवच्या आदीं कामाचा खब्रेक भायर गेल्लो आनीकी ना. लोरसाबान म्हाका "टेलिगिरां" कर्न काजाराक हाडयल्ली खभारी ताका ना अस्तेली. खंचा गावाक वेता म्हळ्ळेंय सांगानास्तानांच गेला खंय. तें मोरोंदी.. आज कालच्या व्होकलांचें धग्र जाल्यारी पळे म्हणतां ! काजाराक पुरतो दीसी जांवक ना, कितल्या धग्रान

उलैता पळे ! आमच्या तेंपार आट धा दीस नोवऱ्यागेर उलोंवक आमी लजतेल्यांव. कलियुग अबा हो... कलियुग !

मिल्ली : म्हजी चूक जाली बाये. हांव नेणासल्लीं. म्हाका सुदारसी. आतुरायेन हावें विचारल्लें. तांतूं कितें जालें?

सिरिल : कोणी आसोंदी व ना जांवदी लोरसाबाचें काजार कांय बाकी उरलेंवे? *( पियेता )*

लोरसाब : जाल्लें जाले तांतूं तेदो व्होड गुन्यांव कितें?

दुलसिन : लोरसाबा, बायलेची पाडत काणघेवन तूं तर आतांच उलयसी, बायलेक मात्यार बसयल्ले बरीं जाता. मागिर कितें घडता जाणायमू? मात्यार बसोन तोंडांत.. मोरोंदी.. ना, सांगाना हांव. म्हाका आतांच परमोळ आयलो. घोवाचा भयणीन सांगल्लें आयकोन व्हगेच रांवचें सोडन, तांतूं कितें जालें खंय? काळिज गट्ट आबा आतांच्या तर्नाट्यांचें !

लोरसाब : तर्क करुंक पडनाकात दुलसिना. तुकायी भुरगीमत वे ? ल्हान एक नीद तरी काडयां. म्हाका निदेचे जांवायो येतात. हाय.. *( जांवायो काडता )*

सिरिल : आनी म्हाका सोऱ्याचो खेळ्णयो येतात. हिक्‌.. हिक्‌..

हेग्बर्ट : आतां उज्वाडताना निदल्यार, सकाळीं उटचें कशें? आतां पाल्यां रातीक निदचें!

रायन : वेनी आमची व्होकाल सोबीत आसा न्हय ?

वेनी : व्हयबा रायन. हावें "मेनी मेनी" व्हाकल्यो आनी नोवरे पळेल्यात. सगळे नोवरे "यंग" आस्तात. ह्या व्होक्लेचो नोवरो "ओल्डम्यान" न्हय वा रायन?

मार्कु, वेनी : हा.. हा.. हा..! *( हासतात )*

दुलसिन : तोंड धांपरे थंय ! *( मिल्ली बोट चावता )* चेडे कितें खंय? वोडल्या मतारयांचें उलोणे. संसार कित्तुन पावलागाय म्हणतां..!

लोरसाब : तुमकां नीद येनावेरे? हांव सयत नीदेन कुर्वातां ! दबाजो दबाजो म्हणोन नीद खळोन जीव काडची व्यापत ही?

मार्कु : नीद सदांय काड्डोता लोरसबा. खुशलाय सदां मेळाना. देकुन नाचोन उडोन वेळ सारुयां. लोरसाबाचें काजार गौजेन जालें म्हण मंसार म्हणोंदी.

हेग्बर्ट : भुरगयानो, नाचोंक नेणांतवे तुमीं?

वेनी
रायन : आम्कां "टिवस्ट" नाचोंक गोत्तासा अंकल.

सिरिल : तर नाचा.. नाचा..! म्हाका मात्र पियेंवक सोडा. लोरसाबाचें काजार "हिप हिप हुरे" *( पियेता )* हिक्.. हिक्.. *( खेळ्णयो )*

*( म्यूजिक चालु आसा )*

मार्कु : नाचा.. उडा.. वेळ मज़ेन सारा. *(बोना दोगां चेडवांक वेंगोवन भितर सरता)*

बोना : जरूर म्हजेबरीं वेळ सारा. एक्लें चुकल्यार–दोगांक धरा ! मार्को, सिरिला, तुमीं म्हाका सांगोंक नातल्लें. जाल्यारी म्हाका खबार मेळ्ळी ! हावें खबार काडली. लोरसाबाक तनी व्होकाल मेळ्ळी..! ताचें नसिबच ! कोंग्राचुलेशन्स लोरसाबा; कोंग्राचुलेशन्स..! तुका धन्यावाद दींवक हांव आयलां. हा.. हा.. हा.. तुजेसलो नोवरो व्होकलेक फावो जाल्ल्याक हांव संतोस्तां !

मिल्ली : म्हाका भिरांत दिस्ता..! म्हाका ताची भिरांत दिस्ता..!! तो राक्षस, तो नीच, तो लपंग..!!!

बोना : आकमान.. आकमान.. सयऱ्याचो आकमान..!

दुलसिन : न्हवी व्होकाल हें कितें खंय? घरा बागलार आयिल्ल्यांचो आकमान..! लोरसाबाच्या घराक कुडोळ हाबा हो..? नां जाल्यार खंय पुणी आशें घडता?

बोना : हांवी म्हणता तेंच..! पिंद्कुर जाळांत सुंकाट सांपडला..!

लोरसाब : तुमीं कित्याक गडबड करतात? व्होकाल म्हजी. तुमकां कितें पडोन गेलां? नीदेन म्हाका वसोंक तांका नां. हाय.. *( जांबायो काडता )*

बोना : लोरसाबा, तुका नीद येतेलीच ! एकलीच व्होकाल पळे? म्हजेबरी दोगां सांगाता आसल्लीं जाल्यार नीद खंची? हांव रात्रिचो राजा.. रात्रिच्या राणयेंलागीं मारतां मज़ा. हा.. हा.. हा.. !

दुलसिन : लोरसाबा, बायले विश्यांतलो तुजो सैलाप म्हाका बरो लागाना. अरे, हें कितें म्हाका पटलुन धरता?

मिल्ली : *( दुलसिनाक पटलुन धर्न )* म्हाका भेंय दिस्ता.. ताचें म्हाका भेंय दिस्ता !

**(वोरां फात्याचीं चार व्हजतात. घरांतलो सामान हालोंवक सुरु जाता. घर आनी घरांतलो लोक धलता)**

सिरिल : हेय..?! म्हाका कोण हालायता?

**( घरांतलो सामान कोसाळ्ळोलो आवाज़ भुंयकांप जाता.. गुडुऽऽऽ गुडुऽऽऽ आवाज़. सगळयांची किंक्राट, भोब, सुस्कार, आकलास.** *(सगळे पडतात, उटतात, पर्तुन पडतात.* दिवे पाल्वातात. )

मिल्ली : हा..! चोर.. तो जादुगार म्हाका हालयता.

रायन }
वेनी } : माम्मी..!

दुलसिन : पुता.. पुता...! जेजु.. जेजु..! सायबा भोगोस..!

सगळे : भुंयकांप..! भुंयकांप..!! भुंयकांप...!!!

## पड्दो

# धावें दृश्य

## लोरसाबाचें घर

*( लोरसाब खटल्यार नीदला, मिल्ली तकलेकडे आनी दुलसिन खटल्याक लागोन बस्लां )*

दुलसिन : हांव जाणा आसल्लीं हें चेडुं घराक पनवती म्हण ! घरा भितर पाय दवरल्लोच मास्णाक जायनातल्ली भुंयकांप जाली ! साप–सुबो म्हजो भाव त्या आकांतन भियेवन खटल्याक लागलो ! घरांत रीगल्लेंच नानांती विघ्ना घराचेर आयलीं. कठिण आवलक्षणाचें वायल हें ! नातल्यार हेणे भितर सर्ताना, तेणे म्हजो भाव खटल्याक लागतावे..?

मिल्ली : बाये, हावें कितें केलां म्हण तूं म्हाका दुर्साताय? हावें कसली चूक आदरल्या? गर्जे विणे तुवें म्हाका दुर्सोचें बरें दिसाना म्हाका ! भगैल्लें घडाजाय ! तर हांव कसलें अवलक्षण हाडन आयल्यां?

दुलसिन : घोवाची ल्हान भयण जाल्यार कितें जालें? ताची भयण हांव, तुजी नणंद ! होच मान तुवें दिंवचो तुज्या नंडेक? तुज्या बर्काता ! म्हाका मुकार उभे रावताय? घरांत रीगल्ल्याक्षण घराची येजमान जालेंय म्हण समजानाका.

लोरसाब : *( कुलकुलोन )* दुलसिन.. दुलसिन..!

दुलसिन : कितें लोरसाबा?

मिल्ली : कितें जाय म्हज्या पती? कितें जाता तुका?

दुलसिन : कितें जाता तुका? *(हेडावन)* दिसाना कितें? निकाळ हांगाचें. लागीं येवन ताका लगाड काडिनाका. म्हज्या पती; पती न्हय बुती तोंड पळेल्यारच पुरो!

मिल्ली : बाये म्हणोन नंडेक दिंवचो मान हांव तुका दितां. पूण तूं भावजेक दिंवचो मान इन्कार करताय? म्हजें तोंड तर कुरूपी आसा, हांतूं म्हजो गुन्यांव कसलो? देवान दिल्लें रूप हें !

लोरसाब : *( पिंर्गाता )* दुलसिन.. दुलसिन.. म्हजे पाय वोळ्तात. कुलकुलो येता.. म्हाका पांग्रुंक गाल.. पाय दांब.. हांव मोरतां.. हांव मोरतां..!

दुलसिन : तुका कांय जावचें ना लोरसाबा; बियेनाका.

मिल्ली : तुज्या जिवांत कितें भगता सांग भरतारा ! हांव तुजे पाय दांबतां...

दुलसिन : पुरो सुको सैलाप ! तुवें ताका हात लांवचोयी नाका आनी ताका निकेपुचेंयी नाका.

मिल्ली : हांव ताची स्त्री, ताची घरकारन. हांव ताची पतिण आनी सांगातिण ! म्हाका ताची चाक्री करुंक सोड बाये, म्हाका ताची सेवा करुंक सोड ! तितलें भाग तरी म्हाका मेळोंदी ! ताची चाक्री करचें हक्क म्हजें जावनासा.

लोरसाब : *( पिंर्गाता )* हुं.. हुं.. हुं..!

दुलसिन : आं ! हक्काचेर आयलेंय आतां ! कळ्ळें म्हाका ! लोरसावाची धन दवलत, आस्त दुडु अपहरसुंक काजार जाल्लेंय तूं? हांव आस्ता वेरेग ताच्या वदकाक तुका कसलेंय हक्क आसचें ना, कळ्ळेमू?

मिल्ली : बाये ताचा धवलतेचें म्हाका कुस्कुट नाका. ताची ग्रेम्तकाय तुकाच दवोर, म्हाका नाका. म्हाका जाय पकत्त ताचो जीव, ताची चक्री, ताची सेवा. घरकार कसलोय तो जांवदीं, ताची सेवा करचें म्हजें करतव्य जावनासा !

लोरसाब : हुं.. हुं.. हुं.. हाय..! वाकळां.. वाकळां.. पाय धांबा...!
*(मिल्ली पाय दांबुंक वेताना दुलसिन ताका दक्को दिवन अपुण दांवता)*

दुलसिन : हे.. हे.. शेळ्या शिताक वारें !

मिल्ली : सायबा, तूं कित्याक म्हाका आसेंय कष्टिताय आनी खरगीताय देवा? म्हज्या दादल्याची इल्ली पुणी चाक्री करचें भाग म्हाका पावो कर..!

दुलसिन : पळेलेंगी धय्र? इतले वेगिंच घोवाक म्हरोंक मागता. काल रेस्फेर जालां न्हय वे? नातल्यार लोटुन पुणी भायर गालतीं.
*( हेगबर्ट भितर सरता )*

हेगबर्ट : कसो आसाय लोरसाब? मिल्लीबाये तूं कित्याक रड्ताय? तो बरो जातोलो.

दुलसिन : रडणे न्हय तें.. सिस्त्रिचीं दुखां ! दोळ्यांक उदाक लाय आनी फोंडा देगेर पाय म्हळ्ळी गजाल ही !

हेग्बर्ट : तशें म्हणानाका दुलसिनबाये, कितलें जाल्यारी पतिण न्हयवे? त्या भायर काल लघना भांदांत एकवोटोन आज आशें घडात म्हण कोणे चिंतलां?

लोरसाब : दाकतेर.. पादरयाब.. हांव पात्की.. कुमसार.. सांतेसांव..!

मिल्ली : धन्या..! रचनारा..! सर्वेश्वरा, सर्व पद्वेदारा ! म्हज्या घरकाराक राक सायवा ! ताचेर कसलेंय अन्वार, ताच्या जीवाक कसलेंय भादक दाडच्या पयलें म्हजो उसवास तूं व्हर. म्हाका तूं ह्या संसारी बांदपासांतलें सुटय, पूण म्हज्या भरताराक तूं वांचाय बापा ! कालचिंच तुर्जी खुणा आजच आमी विस्राना...

हेग्बर्ट : काल रेस्फेर, आज सांतेसांव, पाल्यां कितें तें देव जाणा ! रडानाकात. हांव दाकतेराकी हाडतां.. पादरयबाकी हाडतां. ताची आशा पुरा करयां.

## पड्दो

# ईक्रावें दृश्य

## जिल्लाबायेचें घर

*( जिल्लाबाय बाक्रयो लाटता. निराश एडी भितर सर्ता. )*

**एडी** : ना माम्मा; कायिंच प्रयोजन ना. तु देवाकडे माग माग म्हणताय ! मागणे मागल्यारच पावाना म्हण सांगाताच सादनयी चलयलें ! तरी देव आमचेर दोळे उगडना, तो आमचेर काकुळतिची दीष्ट लायना माम्मा ! म्हाका आनीकी काम मेळाना.

**जिल्ला** : पुता, निराशी जायनाका. जाय जाल्यार, देवाचान तुका आतांय कितें दिवयेता. पूण आमचो वेळ येंवक नां जाल्यार? आमचें मन पार्कुंक तो आमचेर कष्टां वयर कष्ट धाडता जांवकी पुरो !

**एडी** : जावयेत माम्मा, जावयेत. पूण कित्तुन वेरेग? पुंजावन दवुंक आमका कांय नाका, सुखी जीवन सारची न्हय आमची आशा. पोटा पुरतें जेंवक, अडचणेविणे दीस सारुंक, आमचें जीवन समाधानेचें करुंक ही इतलिशी सवलत आमका दींवक तो कित्याक पार्टी सरता? म्हजी आनी तुजी गत सोड़, मिल्लीची गत नियाळ. खांवक–जेंवक दाधासी असल्यारी, दुडु–आस्त मोसतु दिसल्यारी, एका म्हतार्‍या सांगाता कसलें काजारी जीवन तें मारतेलें? ना माम्मा, देवाक कायिंच करुंक तांक ना. ती मात्येची पुतलीा ! ती पात्राची व लोंक्डाची वावली ! ताका आयकाना माम्मा; ताका दिसाना. तो पळेना.

**जिल्ला** : पुता, देवाक दुरसनाका. तो सर्व पद्वेदार जावनासा !

**एडी** : पद्वेदार...! हुं, पद्वेदार ! माम्मा हें तूं सांगताय ? *( आलतरी सरशीन व्हचोन )* देव, हुं; पद्वेधार ! हा.. हा.. हा...! आसलो देव असोन कित्याक उपकारता? दुबळ्यांची स्थिती कायिंच समजाना ताका ! तो देव न्हय माम्मा, देव न्हय !!

जिल्ला : पुता, तूं चड पयस पावलोय ! पुता, तूं चड वयर चडलोय ! तशें म्हणानाका पुता... तशें उलायनाका ! निराशेचा वत्तायेन तशें तुका म्हणोंक लायलें.... तें म्हाका समजाता पुता. तरी केदी वोड चूक तुवें आदारलीय? देवाची निंदा, खेळकुळां, ब्लास्फेम, आकमान तुवें ताका केलोय ! मतीर ये पुता, मतीर ये ! आनी तुजी चूक वळोक ! देवाकडे भोगसाणे माग ! पोरचा दिसा तुवें पळोवनांय ताची महिमाः ! सगळी भूमी हाल्ताना, तूं घोर निदेंत आसल्लयान तुका तें भीकर घडणे कितें तें सुस्कोंवकना ! धरण आमकां ग्रासिता म्हळ्ळें परीं दिसलें !

एडी : *( मतिर येवन )* आं...! व्हां..! माम्मा, खंय हांव आसां? हावें कितें म्हळें माम्मा? हांवे देवाक खेंडलें? हांवे पाप आदारलें? कसलें निर्भागपोण म्हजें! सायबा दी तूं म्हाका भोगसाणे ! लाचारकायेक, अन्वारांक सांपडलेल्यांची मत निजायकी हजार कडे ! निराशेचा वत्तायेन हांव गुस्पालों ! चिल्लर रचना हांव तुज्या मुखार. तरी उडलों घेवन नाका जाल्लो आवतार ! सायबा, म्हाका भोगोस !

जिल्ला : थिरासणेन दुख धर आनी जाल्लें विसर. भावडो रोनीयी तुज्या बरीच जावन कितें सक्कड करुंक पावला कोण्णा? निराशेन तो गेल्लो आनीकी पत्तो ना. मिल्लीन त्या दिसाची ताची कथा सांगल्ल्या दिसा थावन, हांव ताचेंय नियाळ्तां. आपवोंत भुरगो बावडो !

*(विन्सी भितर येता)*

विन्सी : जिल्लाबाये, दुखाची खबार, भुंय–कांपणेच्या शोकान आपटाल्लो लोरसाब काल अंतरलो !

एडी : कितें? अंतरलो? मिल्ली विधव !? भयणी..! *( रडता )*

जिल्ला : म्हज्या धुवेचेर कसलें विघन धाडलेंय देवा? म्हज्या धुवे, म्हज्या बाळा !

## पड्दो

# बारावें दृश्य

## लोरसाबाचें घर

*( वॅळ सकाळिंचो. निश्शब्द. दुलसिन आनी मिल्ली मौन बसोन हुस्कारतात. विन्सी बसोन आसा. मेजार खुरिस, लोरसाबाचो पोटो, वाती आसात. मात्येक पावन आयिल्लो लॉक, मार्कु, सिरिल आनी हेर भितर सरतात. थोडे बसोन आसात. )*

**मिल्ली** : खंय सोडन आयल्यात म्हज्या पतीक? खंय पावन आयल्यात म्हज्या भरताराक? म्हाकायी कित्याक व्हरोंक ना ताच्या सांगाताक?... म्हज्या पती, म्हाका कोणाचा स्वादिन दीवन गेलाय म्हज्या पती... !
*( रड्ता )*

**दुलसिन** : साबसुबो आसल्लो. एकाच्छाणे कितें घडलें म्हजा लोरसाबाक ? म्हजो चेरकोयी घरा नातल्ल्या वेळारच घर सोडन गेलो. कसलें दुरादृष्ट आयलें आबा ह्या घराचेर ?

**मार्कु** : पोरच ताचें रेस्पेर, काल सांतेसांव, आज मोडें बेंजार. कोणेंय चिंतूंक ना आस्तेलें. भुंयकांपणेचा शेकानंच ताचें काळिज बसलें अस्तेलें.

**सिरिल** : जाल्लें जालें ! आतां रडोन फायदो कितें? समा पळेंवक गेल्यार ह्या दळिदऱ्या संसाराक येताना, म्हणजे जल्माताना रडाजाय. आनी सुखाचा राजाक पार्टीं वेतास्ताना संतोस पावाजाय. भुरगें जल्माताना भियान रड्ता आनी आमी संतोस पावतांव. मेल्लो मनिस हासात्त वेतास्ताना आमी रड्तांव. निजायकी हें उळटें...! सेमितेरिक आयिल्लीं तुजीं भाव आनी आवय, थंय थावनच पार्टीं गेलीं.

**मार्कु** : धुवेचा खबरेक येनांतवे म्हळ्ळयाक, कंय दिलां, त्या दीस गेलां, आनी आमकां ताचेर हक्क ना ताकायी आमचेर ना, म्हण अक्लास सोडन चलतेच रावलीं !

दुलसिन : व्हय आतां म्हाका स्पष्ट कळ्ळें. हें नापास आवय-भावाकी जड जाल्लें. देकुन घरांतलें धक्लून, हाका ताणी म्हज्या भावाच्या गोमट्याक वांदल्लें. तीनंच दिसां भितर हाणे ताकायी मुगदुन केलें ! नातल्यार आवय-भाव, खबरेक हांगासर येतिंनांवे?

सिरिल : तांका तडवूंक तांकोंक्ना आसतेलें हें घडणे. देकून तीं येंवकनांत अस्तेलीं ! म्हाकाच तडवुंक तांकानास्ताना, सकाळीं थावन इल्ली इल्ली म्हण सुमारसी भुजावोण जाली ! हांगा तुमी स्त्रियोच जाल्लयान, भुजावोण खंची?

मार्कु : सकडांक जाय जाल्लो मनिस ! आनी मोरनाक पकत्त चार बोडां ! संसाराची रीत पळे म्हणतां. दुख सोडा आनी ताच्या आतम्या पासवत मागा आनी तुमचें पळेया...!

सिरिल : मार्को, आमी भुजावोण घेंवक या. आमचो मोगाचो मनिस पळे. आमचें दुख व्हरतें..! *( सक्कड चल्तात. स्त्रियो-स्त्रियांक भुजोवन चल्तात. मिल्ली रड्ता )*

दुलसिन : आतां पुरो दुकाचो नाटक ! कुडी वयलें श्रंगार काड, आनी नेस म्हजें काळें कापाड ! *( कापाड दिता )*

मिल्ली : *( कापाड घेवन )* व्हय.. व्हय.. म्हजो श्रंगार संपलो ! म्हाका नाका संसार हो...! *( श्रंगार पिसुडता )*

दुलसिन : पुरा हिवशिन दी; भुरगें बाळ नातल्लयान, तुका हांगाचा कसल्याय वस्तुचेर हक्क ना !

मिल्ली : म्हजिच म्हळ्ळी वस्त ना म्हळ्ळया उपरांत, म्हाका हांगाचें कुस्कुट नाका. तरी पूण एक उपकार मात्र हांव तुजे लागीं मागतां. बाये, निर्वोगपोणाक वळग जाल्यान म्हज्या आवय-भावान सयत सांडलें. जाल्यारी तांचो आनी म्हज्या दादल्याचो जागो आतां तूं भरती कर. तुज्या हातांत हांव म्हाका ओपसून दितां. तुजो व्हर्तो उपकार....

दुलसिन : कितें? हावें तुका ओपसुन घेजाय? तीन दिसानी म्हाकायी कावार काड्तां म्हणचेंस्ता तुवें? ह्या घरांत तुवें आनी रांवचेंयी समा न्हय ! म्हजो चेरको तर्नाटो. तो तर आयलो, तुका तर्नायल्या विधविक घरांत दवर्न नाक कातरचें

म्हणचेंवे तुवें? आतां पोटली बांद आनी हें घर–धार सोड ! तुज्या आवयच्या पायांमुळीं जीव दी व्हचोन !

मिल्ली : कितें? म्हाका हांगा रावोंक असचें ना? तर म्हजी गत कितें?

दुलसिन : कोणाक विचारताय?

मिल्ली : दिलां तें गेलां. त्या घरांत म्हाका कसलेंच हक्क ना. हांगासर कायद्यान हावें रावाजाय जाल्यारी, तुजी आडकळ. त्या भायर तुजो पूत तर्नाटो आसल्लयान आन्येक आडकळ ! तर हावें वेचें खंय?

दुलसिन : तुका तर्नाट्याक घरांत दवर्न, रोनीचो पुडार पाड करिजाय म्हणचें कितें तुवें?

मिल्ली : रोनी? तुजो पूत? थोड्याच दिसां आदीं काम सोदुन गेल्लो? तो ताचो भाचो? आपत्त.. आन्येक आपत्त...!

दुलसिन : व्हय. ताचो भाचो.

मिल्ली : तर तोच तो ! तोच तो ! ना, हांव हांगा रावाना. हांव काजारी बायल. तो आसल्ले कडे म्हाका रावोंक साद्य ना. हांव देसांतर वेतां..

दुलसिन : व्हच, तुवें वोचाजायिच !

मिल्ली : भेशक, जरूर.. वोचाजायिच.. वोचाजायिच.. *(केस पिस्डुन पिशयाचो नमुनो )* हांव चल्लीं.. संसारांत म्हजें कोण ना.. कोण्णी ना.

## पड्दो

# तेरावें दृश्य

## ( लोरसाबाचें घर )

*( दुलसिन लोरसाबाचा खजान्याची तलासी करता. रोनी भितर सरता )*

रोनी : अंकल काजार जालोमू माम्मा? ताची आशा बागलिमू माम्मा? एका तर्नट्या चलीयेक विधव केलेंमू माम्मा? जाप दी माम्मा; जाप दी. कित्याक तुजी जीव बंद जाल्या? तूं कितें जाप दितेलीय? सगळें तिरसातच म्हाका संक्षेप खबार मेळ्ळी. मार्कु–सिरिलाची भेट वेळ उत्रोन लाभली.. बोनायी तांचो ईष्ट म्हण आतांच कळ्ळें म्हाका. निराशेन पिसो जावन, घर सोडन भंवतालो हांव ! पूण सगळें कळतच म्हजे पाय रावलेनांत. संसारांत कसलीं सक्कड अनाहुतां घडतात पळे म्हणतां..!

दुलसिन : कामाचा खबरेन गेल्लोय कंय ! खंय उरल्लोयरे पुता इतले दीस? काजाराकी ना जालोय, मोर्नाकी ना जालोय? तुजो जिनोस पळे?
जाल्लें जालें, तूं आतां आक्लासनाका !

रोनी : म्हजी काणी तूं न्हेणांय माम्मा. तुका ती सांगोन प्रयोजन ना. हावें निरमोळपणान मोग केल्ल्या चलियेन म्हाका तिरासकरितच, पिसांतुर जावन हांव भोंवतालों ! आज म्हाका कळ्ळें त्या चलीयेन म्हाका कित्याक इन्कार केल्लें तें? खंय आसा माम्मा तुजी भावोज़, खंय आसा?

दुलसिन : लोरसाबाक निकेपितेच, तें अवलक्षणिक चेडुं ह्या घरांत आपुण रावाना म्हण चल्तेच रावलें. हावें ताका वचनाका म्हण वत्ताय केली. आयकलना हांव कितें करुं? भायर दिल्ल्या घराक पाटीं वचना, थंय आपणाक हक्क ना देसांतर वेतां म्हण चल्लेंच ! जीवघात करुंक गेलां जाल्यारी कोण जाणा?

रोनी : अवलक्षणिक तूं माम्मा ! तुजो भाव आनी तुजें कुटाम ! त्या नेंट्या चलीयेचो तुमी गोळ केलो ! ताचो पुडार तुमी विबाडलो. ताचो भोंगोस्तळ केलो ! हा.. तुमच्या काळजांत इल्लीशी पुणी दया नातल्लीगाय म्हणतां !

**दुलसिन** : म्हाका कित्याक दुरसातागाय चेडो? खंचा चेडवान पिसो केलागाय हाका? कोणें तुका व्हकात गालां रे पुता?

**रोनी** : तें तुका आतां कळचें ना. वेगींच कळतेलें ! हें घर ताचें.. ताणे देसांतर वेचें? ताका तुमी देदेस्फार केलें. जीवघात..! ना.. ना.. ताका सोदुन काडन हाडन, ह्या घरांत सुखी दवरुंक हांव प्रयतनिसितां...

**दुलसिन** : गेल्लें तें वचोंदी पुता. ताच्या पाटल्यान तूं मोरानाका. तुजो पुडार विबाडिनाका.. ! *( रोनी चल्ला )* रोनी, वचनाका रोनी ! कोणें वकात गालां हावा म्हज्या पुताक?

## पड्दो

## चोव्दावें दृश्य

### रस्तो

*( वॅळ सांजेचो. एक जोडें मोगाचें गीत गायित्त पाश्यार जाता. पाटापट मिल्ली पाशार जाता. गीत संपता )*

**मार्कु** : अरे हें कितें? ती स्त्री गोमट्याक पातोर बांदता ! जीवघात करुंक दरयाक उडकी मारची आलोचन म्हण दिसता..!
*(आतां रोनी मिल्लीक उलो करित्त हांगासर पावता)*

**रोनी** : मिल्ली..! मिल्ली..! मिल्ली..! राव मिल्ली; राव..!

**मार्कु** : तोयि उडलो..! हां.. हां.. शाब्बाश ! ताणे ताका बचाव केलें !
*( रोनी मिल्लीक उकोलन हाडता )*

**मार्कु** : रोनी तूं? तूं खरोच एक नायक ! तूं एक हिरो.. ! शाब्बाष.. !

**मिल्ली** : म्हाका मरोंक सोडा, म्हाका मरोंक सोडा..! म्हाका आडयनाकात !

**मार्कु** : मिल्लीबाय? ही कितें अवस्था? *( पोलीस येता )*

**पोलीस** : तुमी सरवां पोलीस स्टेशानाक चला.. या.. या.. *( सगळे वेतात )*

## पड्दो

# पंद्रांवें दृश्य

## कोडत

*(दोग वकील, पोलीस, गुमास्त आनी थोडो लोक, जिल्लाबाय, दुलसिन, एडी, रोनी बसल्यांत. थोडे उबे आसात)*

**रोनी** : वकील सायबा, वांकडयापणाचो फळ. अंकल तसो गेलो ! बोना चेडवांचो पिसो आसल्लो आतां खरोच पिसो जावन मारगार भोंवता ! सिरिलाक पियेवन पियेवन खेवाद लागोन आसपत्रेंत ! घट जिवाचा मार्कुची दोरी मात्र देवान आनीकी लांब सोडल्या ! सकडांचें पळेवन ताणे कनवेडतर जाल्यार पुरो ! सगळी काणी हावें तुका सांगली. आतां सगळें तुज्या हातांत आसा. मिल्लीक सजा जायनासें पळे. निराप्रादी म्हण ताका सुटका लाबोंदी ! ताका दुरगतिक गाल्ल्याचीं पितुळ भायर पडोंदी.

**रोबर्ट** : तें म्हजेर पावलें. मिल्लीक सुटका लाभाजायच !
*( पोलीस आवाज दिता )*

**पोलीस** : सू.... चुप ! *( न्यायादीश भितर येता. सगळे उबे रावतात. न्यायादीश बसल्ले उपरांत सगळे बसतात )*

**सावंत** : मेल्ली काडरोस... मेल्ली काडरोस.... मेल्ली काडरोस.... हाजीर जा.
*( अप्रादिक उलो करता. आन्येक पोलीस मिल्लीक हाड्ता )*

**रोबर्ट** : मै लोरड, जायजाल्ल्या सरव साक्षिचें विचारण करतच, म्हज्या एदी "पोलीस प्रोसेक्युटर" सायबान आपलें तर्क ह्या आदीं संपायलां ! मिल्ली जीवघाताचा अप्रादाक वळग जालां देकुन ताका सजा लावाजायच म्हळां ताणे. हें जांवक नोजो ! कित्याक, तें हांव विवरसितां. मिल्लीचो वापुय अंतरुल्लो. ताच्या भावाक काम नातल्लें. मिल्लीचें कुटाम लाचारकायेंत लोळतालें. अशें आसतां, रीणाक लागोन लोरेन्स क्वाड्रस त्या कुटमाक इजा दिता. मरयादिच्या त्या कुटमाक, कोडतिचें, जयलाचें नालीश खठिण

दगदिता. भावाक आनी आवयक त्या खरगोणयांतलें सुटोंवक, आपल्या जीवनाचें बलीदान कर्न, मिल्ली मरोंवक तेंकल्ल्या म्हतारया कडतागची पतिण जाता. त्याच रातीं देवाचीं महिमा ! संसाराचीं आनाहुतां पाचारुंक म्हळ्ल्यापरीं धरण हालता, गांव हालता, भुंयकांप जाता ! त्या भीकर घडिता निमतीं म्हतारो खंगाल जावन, दुस्त्रयाच दिसा गुड गाल्ता ! स्त्रियेक, मिल्लीक काजारी सुखांत वेंगोंवचा आदीं म्हतारयान प्राण सोडला म्हळ्ळयाक शेकडों रुज्वाती आनी साक्शी लाबल्यात ! मै लोरड, तरी म्हज्या इष्टान, मिल्लीक विधव म्हण म्हळां. काजारा बांध जोडुल्ल्या निमतीं, तें जरूर विधव जालां. जाल्यारी म्हतारयाचें हात–बोट लागानातलें तें चेडुं आपुट्ट आंकवार म्हण स्वीकरसुंकी आडकळ ना. आनी खंचाय तर्नाट्याची व्होकाल जांवक ताका अडचण ना.

**मुन्सुब्दार** : तुज्या ठीकांक ओपलां म्हण चींतया; तरी पुण एका विधविक आंकवार म्हण स्वीकरसुंचे तर्नाटे असातगाय म्हळ्ळें म्हजें सवाल !

**एदी वकील** : द्याट इस दी पोयिंट, मै लोरड !

**रोबर्ट** : जरूर असात, आनी आसाजायच ! ह्या मोकद्दमयांत तरी जरूर आसा म्हळ्ळें हांव पुडें दाकायतां. आतां, मिल्लीचो गुन्यांव जीवघात करुंक प्रयतनिसिल्लो ! आपल्या घोवाच्या घरा भयणीचें राज चल्तेलें. तिणे मिल्लीक आवलक्षणिक म्हण देसांतर धांवडायलें. आपल्या आवयचा घरा मिल्लीक आतां हक्क नातल्लें. आसल्या स्थिी गतिंत, भिकारी, लाचार, आनाथ जाल्ल्या तर्नाट्या स्त्रियेन, जीवघात करुंक प्रयतसिना जल्यार, आनी कशें जिवन सरचें? मै लोरड, निरवोग ना जावन पिसांतुर जावन, निराशी जावन केल्लें हें साधन जीवघात म्हण कशें लेकचें? आशें आसतां, जीवघाताचा प्रयतन म्हळ्ळया अप्राधांतलेयीं मिल्ली सुटलें. ताका भचाव केल्लो तो तर्नाटो हेर कोणयी न्हय, लोरेन्स क्वाड्रसाचो भाचो, रोनाल्ड रोड्रिगस. रोनी मिल्लीक एकावेळा एका तर्नाट्याच्या आणवयापणांतलें भचाव केल्लो ताचो रक्षक ! त्या मेळपान तांचें मदें मयपास उबजोन, मिल्लीचो हात व्हडिलांचा कबलतेन धरुंक आसल्लो ग्रायक ! लोरसाबाचा

आनी ताच्या वायट सांगाती बोना, मार्कु आनी सिरिलाच्या अत्रुवणांक लागोन आपल्या आनी मिल्लीचा आशेचें बलीदान जातेच निरास्पोणान रोनी पिसांतुर जावन भंवतालो ! आशें, मिल्ली-रोनीच्या प्रेमाची, मोगाची कथा गुपित उरलेली. वेळ उत्रोन तें उगडापें जाता.. रोनी, मिल्लीचो खरो मयपासी ह्या घडये कोडतींत हाजर आसा आनी तो मिल्लीक अपुट्ट आंकवार आनी निराप्रादी म्हण आतांय स्विकरसुंक कबूल आसा. इतल्यार सगळें शाभित जावन, मिल्ली निराप्रादी म्हण उगडापें जाता. मै लोर्ड, हांव म्हजें तर्क संपयतां..

मिल्ली : हां ! म्हाका बचाव केल्लो, काकुळतिचो हात परतुन रोनीचो? हा.. हें दोडतें घडित !

*( लोक आवाज करता. मुनसुबदार "ओर्डर.. ओर्डर.." म्हण लोकाक शान्त रावोंवक हिशारो दीता )*

मुनसुबदार : *( कागदां, पायलां उसतिता, पळेता आनी चिंता )* मिल्लीन मतिर आसोन जीवघात करुंक प्रयतन करुंक नातलें म्हळ्ळें रुजु जाता. तें निराप्रादी म्हण दिसोन ताका गौरावार्त सुटका हांव दितां. ताका बचाव केल्ल्या रोनीचें धय्र आनी नडतें खरेंच व्हरतें ! ताणे विधविक आंवकार म्हण लेकुन एका विधविचें समस्या परिहार आनी तीचें संरक्षण केल्लें कामयी निजायकी विशेष ! हाची, शिफारास हांव उचारतां. सांगाताच लोरेन्स क्वाड्रासाच्या सगळ्या आसतीक लागशिले हेर कोण हक्कदार ना जाल्ल्यान, त्या बदकाक रोनी हक्कदार जाला. रोनीन मिल्लीक आपली पतिण कर्न घेवन मात्र, त्या आसतीचो प्रयोग केल्यार अधिक वरें !

*( दस्कत कर्न उटोन चलता. सगळे उबे रावतात )*

जिल्ला : घडित व्हरता वोडित्त हें सांगणें हांगासर रुजु जालें पुता, एडी.

एडी : ही देवाची मांडावळ माम्मा ! मिल्लीक रोनींच पावो आसल्लो !

दुलसिन : म्हजो गुन्यांव मतिंत घेनाका पुता रोनी.

एडी : मिल्ली म्हज्या भयणी.. !

मिल्ली : एडीबाबा.. ! *( भाव-भयण वेंग मारतात )* माम्मा.. !!

जिल्ला : म्हज्या भांगारा.. !

रोनी : मिल्ली.. !

मिल्ली : रोनी... !

*( दुलसिन मिल्लीक वेंगयता आनी रोनीक बगलेन हाडता. जिल्लाबाय रोनीचो हात धर्न रोनीक मिल्ली संगीं सोडता. एडी दोगांयच्या खांद्यार हात दवोर्न खुशी पावता. )*

पड्दो

समाप्त



---

## * भुंयकांप *

हो मांच्ये वयलो एक नाटक मात्र न्हय बगार रण भूमी वयलें
कोंकणी भाशे खातिर महा झुज़. पैश्यां आनी पोटाच्या
निबान कोंकणी विसर्लेल्या निरबाग्यानो, तुमी संस्क्रतिची
ग्रेस्तकाय होग्डावन जाल्ले दुब्ळे न्हयगी?
कोंकणी नाटक सदंच जियेंव्दी..!

* * * *

ಶುಭಾಶಯಾಂ ಸವೆಂ:

## ಶ್ರೀ ಲೋರೆನ್ಸ್ ಡಿ'ಸೋಜಾ

ಮ್ಯಾನೆಜಿಂಗ್ ಡಾಯ್ರೆಕ್ಟರ್

**Blue Star Elevators (India) Pvt . Limited**

**Manufacturing, Sales and Service of all types of Elevators**

A-108, Pratik Industrial Estate, Mulund - Goregaon Link Road,
Bhandup West, Mumbai-400 078.

Tel Nos.: 592 58 91 / 95 / 96 / 99 / 592 59 00 / 590 44 57 Fax: 91-22-592 58 69

---

## * ಭುಂಯ್ಯಾಂಪ್ *

ಹೊ ಮಾಂಚ್ಯೆ ವಯ್ಲೊ ಏಕ್ ನಾಟಕ್ ಮಾತ್ರ್ ನ್ಹಯ್ ಬಗಾರ್ ರಣ್ ಭೂಮಿ
ವಯ್ಲೆಂ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶೆ ಖಾತಿರ್ ಮಹಾ ರಝುಜ್. ಪೈಶ್ಯಾಂ ಆನಿ ಪೊಟಾಚ್ಯಾ
ನಿಭಾನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ವಿಸರ್ಲೆಲ್ಯಾ ನಿರ್ಭಾಗ್ಯಾಂನೊ, ತುಮಿಂ ಸಂಸ್ಕೃತಿಚಿ
ಗ್ರೇಸ್ತ್‌ಕಾಯ್ ಹೊಗ್ಡಾವ್ನ್ ಜಾಲ್ಲೆ ದುಬ್ಳೆ ನ್ಹಯ್‌ಗೀ?
ಕೊಂಕ್ಣಿ ನಾಟಕ್ ಸದಾಂಚ್ ಜಿಯೆಂವ್ದಿ..!

* * *

*ಶುಭಾಶಯಾಂ ಸವೆಂ:*

## ಫ್ರಾನ್ಸಿಸ್ ಫೆರ್ನಾಂಡಿಸ್ ಕಾಸ್ಸಿಯಾ

ಕೊಂಕಣಿ ನಾಟಕಾಂಚೊ ಚಾಳಿಸ್ ವರ್ಸಾಂ ಥಾವ್ನ್ ಉರ್ಭೆವಂತ್
*ಬರಯ್ಣಾರ್, ದಿಗ್ದರ್ಶಕ್ ಆನಿ ಮಾಹಾನ್ ಹಾಸ್ಯಾಗಾರ್.*

ಜಿಲ್ಲಾ : ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಭಾಂಗಾರಾ!

ರೊನಿ : ಮಿಲ್ಲಿ!!

ಮಿಲ್ಲಿ : ರೊನಿ...!!!

*(ದುಲ್ಲಿನ್ ಮಿಲ್ಲಿಕ್ ವೆಂಗಯ್ತಾ ಆನಿ ರೊನಿಕ್ ಬಗ್ಲೆನ್ ಹಾಡ್ತಾ. ಜಿಲ್ಲಾಬಾಯ್ ರೊನಿಚೊ ಹಾತ್ ಧರ್ನ್ ರೊನಿಕ್ ಮಿಲ್ಲಿ ಸಂಗಿಂ ಸೊಡ್ತಾ. ಎಡಿ ದೋಗಾಂಯ್ಚ್ಯಾ ಖಾಂದ್ಯಾರ್ ಹಾತ್ ದವರ್ನ್ ಖುಶಿ ಪಾವ್ತಾ)*

ಪಡ್ದೊ

ಸಮಾಪ್ತ್

